# World-class homes by design

Upscale 2 / 3 BHK Apartments
& Road-front Shops
at **Aquem-Margao**



CD Picasso
By RBB

MARKETED BY



Since 1993

COMMONWEALTH™
DEVELOPERS PVT. LTD.



QUALITY ◆ CREDIBILITY ◆ AESTHETICS

CD Fountainhead, Opp. CD Countryside, Fatorda.
Tel: 0832-2742082 / 83 Email: kdnaik@cdhomes.com
**Mob: 9822386271 / 9225822063 / 9823159655**
**www.cdhomes.com**

RERA Registration No: PRGO09190839; RERA Registration No: PRGO09190864
RERA official website: https://rera.goa.gov.in/reraApp/
CIN - U15541GA1986PTC000703

alphacreative.in

जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

वर्स ४८ : आंक १ : ऑगस्ट २०२१

* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० / ९७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



भायले चित्र : निरुपा नाईक
भितल्ली चित्रां : भारत जगताप, निशीत बोरकार

संपादकीय

# आयलो श्रावण...

'जाग' ह्या म्हयन्यांत ४८व्या वर्सांत पावल दवरता. ही वाटचाल खूप खडतर आसली. तरांतरांच्या कांट्याकुट्यांची आशिल्ली. पूण सगळीं आडमेळीं हुंपून आमी फुडें वतात. ह्या वावरा फाटल्यान स. सुमंतबाब केळेकार, स. रवीन्द्रबाब केळेकार आनी स. माधवी सरदेसाय हांची पुण्याय आनी सासाय आसा.

'जाग' परिवारा खातीर एक खोशयेची गजाल. 'जागा'चे आदले प्रकाशक आनी शिक्षणतज्ञ स. सुमंतबाब केळेकार हांचे 'नंदालो पोर हो...' हें तांचे आत्मचरित्र फुडल्या म्हयन्यांत उजवाडाक येता. हांतले लेख आदीं 'जागां'त उजवाडाक आयिल्ले, ताचें हें संकलन. कोंकणी ललीत साहित्याच्या सालांत लखलखीत झुंबर कशें हें बरप चकचकत उरतलें.

आगस्ट म्हयनो हो आमचे जिणेंतलो एक म्हत्वाचो म्हयनो. ह्याच म्हयन्याच्या पंदरा तारखेर आमचो भारत देस स्वतंत्र जालो. श्रावण म्हयन्यांतूच आमच्या भारत देसाक स्वातंत्र्य मेळ्ळें. तसोच शालीवाहन शक कॅलेंडरांत, श्रावण म्हयनो हो सगळ्यांच्या आवडीचो म्हयनो. तो ह्या आगस्ट म्हयन्याच्या सुर्वेक आयला.

श्रावण म्हळ्यार उमेद, श्रावण म्हळ्यार पाचवेंपण, श्रावण म्हळ्यार भक्तीमय वातावरण. श्रावणांतलो पावस लेगीत मध्य लयींत. आकांताळो न्हयच न्हय. कोल्लो कसो. येतलो अकस्मात, वतलोय तसोच रोकडोच. बाकीबांबाचे कवितेंतलो सृष्टीचो पाचवो म्हयनो तो होच!.

ह्या श्रावण म्हयन्याच्या खाशेलपणांचेर तीन लेख ह्या आंकांत आसपावल्यात. अरुण जयराम कामत हांणी एका वेगळ्या नदरेन श्रावण आमच्या मुखार दवरपाचो येत्न केला. श्रावण म्हयन्यांत आयिल्ल्या भारताच्या पयल्या स्वातंत्रतायेच्या दिसाची याद आनी स्वातंत्र्य मेळचे कांय दिसांपयलीं जाल्ल्या घडणूकांचो नियाळ 'श्रावणाच्या यादींतलो श्रावण' ह्या आपल्या अभ्यासपूर्ण लेखांत केला. ह्या नदरेन श्रावण म्हयन्याकडेन हाचे पैलीं खंयच्याय लेखकांन पळयलां आसतलें हाचो आमकां दुबाव आसा.

तेच वांगडा डॉ. जयंती नायक हांचो 'श्रावणांतल्यो यादी' हो लेख आसा. गोंयकाराच्या श्रावण म्हयन्यांतलें खाशेलपण म्हळ्यार 'आयतार पुजन'. ताचेर हर्षा शेटये हांचो लेख ह्या आंकात आसपावीत केला.

गोंयांत श्रावणांत देवळांनीं ज्यो कार्यावळी जातात त्यो विविधांगी. पूण पोरूंच्यान कोवीड १९ महामारीक लागून ताचेर बरींच बंदनां आयल्यांत. लोकांनी श्रावणी सोमारा खातीर वा बिरेस्तारा दिसा वा शुक्रारा एकठांय देवळांत जमप हाचेर निर्बंध आयल्यात. अंदूय महामारी सांवरूंक ना. नियंत्रणांत येवपाच्या मार्गार आसा. जिणेच्या सगळ्या मापदंडांचीं समीकरणां विस्कटावन उडोवपी ही महामारी बेगीन पयस जावं आनी आमचें जिणें चक्र सुरळीत सुसूत्र जावं हीच इत्सा. जण एकलो नागरीक स्वता मास्क कायम घालून आनी नितळसाण राखून आनी गर्दी टाळून महामारी पयस करपाक आदार करूंक शकता. आमच्या हातांत इतलेंच आसा. कोरोनान शिकपा सारके खूब धडे दिल्यात. ताचेरूय अंतर्मुख जावन स्वाध्याय जावप गरजेचें.

ह्याच वांगडा ह्या आंकांत दोन व्यक्तीचित्रांचोय आसपाव केला. लेखक आनी अनुवादक आनी 'जागा'चेर नेमान बरोवपी मुकेश थळी हांची हालींच अंतरलेली तांची आवय 'माई' हिचेर बरयल्लो लेख आसा. उल्हास पै रायकार हांणी कोंकणीचे म्हालगडे आनी साहित्यिक आनी तांचे मामा शंकर भांडारी हांचेर बरयिल्लो लेख.

ह्या जून म्हयन्यांत सावन नामनेचे कवी स. शंकर रामाणी हांचें जल्मशती वर्स सुरु जालां. रामाणीबाबांचो आनी 'जागा'चो संबंद सुर्वेक सावन आसलो. तांच्या मरणा उप्रांत तांणी साहित्यिकांक बरयिल्लीं पत्रां आमी उजवाडायिल्लीं. ह्या तांच्या जल्मशतीच्या वर्सांत आमी स. रामाणी हांच्या संपर्कांत आयिल्ल्यां कडल्यान लेख मागयल्यात. ह्या संकल्पाक आमच्या लेखकांकडल्यान सहकार्य मेळटलें अशी आस्त आमी बाळगितात. ह्या आंकात नामनेचे कवी परेश कामत हाणीं स. रामाणी हांचेर बरयिल्लो लेख आमी उजवाडायला. फुडलें वर्सभर आमी शंकर रामाणी आनी तांच्या साहित्याचेर लेख दिवपाचो हावेस बाळगिला. ह्याच सांगाताक ह्या आंकांत आमचीं सदचीं सदरां आसातच.

आमचे विनवणेक मान दिवन आमच्या सगळ्या लेखकांनी आपलें साहित्य वेळार धाडलें म्हण सगळ्यांचे उपकार.



## 'जाग' वर्गणीदारांक सुचोवणी

आमचे साबार वाचक 'जागाचे' वर्गणीदार जावंक सोदतात. तांणीं 'जाग म्हयनाळ्याच्या' खाला दिल्या बँक नाम्याचेर पयशे भरचे आनी आमकां आपलो पुराय नामो आनी वर्गणी पावती खाला दिल्ल्या फोन क्रमांक, वा ई-मेल, वा नाम्याचेर कळीत करची-

फोन- +91 7447268720

नामो- मॉडेल स्टेटस, फ्लॅट 3-SE-3, दोना पावल-ताळगांव रोड, ताळगांव गोंय 403002

Email- asawari.nayak@gmail.com

**Jaag Bank Details:**
Ac no: 4004002100005165
Name: JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch: Panaji-Goa
IFSC code: PUNB0292300



# कवी शंकर रामाणी : कांय यादी

**परेश नरेंद्र कामत**

नामनेचे कवी शंकर रामाणी हांचे हें शताब्दी वर्स. त्या निमतान हो खाशेलो लेख

- संपादक

१.

कवी शंकर रामाणींचें पयलें पत्र म्हाका आयलें तो दीस हांव केन्नाच विसरूंक शकना. पत्राचेर तारीक आशिल्ली ०५.०३.१९९०.

म्हज्यो कांय कविता तांणी 'सुनापरान्त' ह्या दिसाळ्यांतल्या आयतारचे पुरवणेंत वाचल्यो आनी तांकां त्यो आवडल्यो. रामाणींक एक संवय आशिल्ली. कोणाचेंय कितेंय साहित्य तांकां मानवल्यार आपली प्रतिक्रिया ताचे मेरेन पत्रांतल्यान पावय म्हणसर तांकां थार नासतालो. तेच संवये प्रमाण तांणी म्हाका एक पोस्ट कार्ड बरोवन धाडिल्लें. तातूंत म्हजे कविते संबंदान आपलो अभिप्राय कळयल्लो. ते उपरांत तांच्या पत्रांचें सत्र सुरू जालें आनी ही आमची 'पेन फ्रेंडशीप' सुमार बारा वर्सां मेरेन तिगली.

एका ल्हानशा पोस्ट कार्डाचेर चडांत चड मजकूर कसो बरोवंचो तें हांव रामाणी कडल्यान शिकलों. 'लॅस इज मोर' हो कंसेप्ट रामाणी पत्रांत लेगीत कसो केळयतालो हें पळोवपा सारकें आसतालें. केन्नाय इनलँड येतालें तर केन्नाय एनवॅलॉपांतल्यान लांबलचक पत्र येतालें. जसो मूड तशें पत्र.

२.

म्हज्यो कविता १९९० च्या अदमासाक 'जागांत' हात-पांय पातळावपाक लागिल्ल्यो. केन्नाय पोस्टांतल्यान हांव त्यो रवीन्द्रबाबाच्या नगरांतल्या नाम्यार धाड्टालों तर केन्ना प्रत्यक्ष रवीन्द्रबाबाक मेळपाक वतालों तेन्ना दितालों. थंय रामाणींचो विशय चर्चेक येतालो. कवी रामाणी हे कवितेचे गंभीर आनी चोखंदळ रसीक वाचपी म्हणपाचें रवीन्द्रबाब सांगतालो. तांकांय रामाणीं अदीं-मदीं पत्रां बरयताले आनी कवी माधव बोरकाराकूय.

तेन्ना हांव सामको नवोदीत कवी. सुमार बावीस वर्साची म्हजी पिराय. जागाच्या अंकांत शंकर रामाणी, रमेश वेळुस्कार, माधव बोरकार, नागेश करमली, प्रकाश पाडगांवकार, काशिनाथ शांबा लोलयेंकार हांच्यो कविता उजवाडाक येताल्यो. त्यो हांव अधाशा सारको वाचतालों आनी ह्या कवीं सारक्यो उत्कृश्ट कविता हांव केन्ना बरोवंक पावतलों हाचेर चिंतत बसतालों.

'जागां'तल्या साहित्या विशीं रामाणी रवीन्द्रबाबाक आस्थेन बरयताले. जागांत उत्कृश्ट दर्जाचें साहित्य उजवाडाक येवंक जाय असो तांचो आग्रो आसतालो.

'मरणयात्रा' ही म्हजी कविता जाग- मार्च १९९० ह्या अंकांत पयले खेपेक उजवाडाक आयली. कवी रामाणीक ती आवडूंक ना. आनी उपरांत कांय वर्सांनी म्हाकाय ती कविता आशयाचे नदरेन 'उथळ' दिसली म्हणून तिचो आसपाव म्हज्या खंयच्याच संग्रहांत करूंक ना.

३.

'पालाण' ह्या आपल्या मराठी कविता संग्रहाची भेट-प्रत कवी रामाणीन म्हाका पोस्टांतल्यान धाडून दिल्ली आनी ताचे बरोबर एक पत्र. 'प्रिय कवी, 'जोगलांचें झाड' ह्या म्हज्या कोंकणी कविता संग्रहाची प्रत तुमकां दिवपाचें मनांत आशिल्लें पूण जमलेंना. 'पालाण' हो संग्रह तुमकां धाड्टां तो बारकायेन वाचून तुमचें संग्रहाचेर सविस्तर मत कळोवचें.'

'पालाण ' हो कवी रामाणींचो एक उत्कृश्ट कविता संग्रह. तातूंतल्यो कांय कविता वाचून तेन्ना हांव सामको भारावन गेल्लों. अशे तरेच्यो उत्कट आनी तरल कविता हांव पयलेच फावट वाचतालों. म्हाका चड आवडली ती रामाणींच्या कवितेंतली शब्दकळा. कोमल आनी मुलायम.

४.

कवी माधव बोरकाराक मेळपाक हांव पणजी आकाशवाणी केंद्रार वतालों. 'युववाणी' ह्या नवोदीत लेखक, कवीं खातीर आशिल्ल्या कार्यक्रमांत हांव कविता वाचन करतालों.

एक दीस माधवबाबानूच सांगलें की रामाणी गोंयांत आयला आनी आमीं ताका मेळपाक या म्हणून. पणजे, गोवा कॉलेज ऑफ फार्मसी मुखावयल्या बिल्डिंगेंत रामाणींचो भाव रावतालो. थंय माधवबाब आनी हांव रामाणींक मेळपाक गेले. ती रामाणींची आनी म्हजी पयली भेट. थंय रामाणींन म्हाका नव्यो कविता आसल्यार वाच म्हणून सांगलें. हांवें चार पांच कविता तांकां वाचून दाखयल्ल्याचो म्हाका उगडास आसा. पूण त्यो आयकून तांचें समादान जालां अशें म्हाका

दिसूंक ना.

५.

कवी रामाणी हे म्हजे कवितेचे रसीक वाचपी. म्हजी प्रत्येक कविता (ते ह्या संवसारांत आस मेरेन) तांणी वाचल्या. ते जितले म्हजे कवितेचे मोगी तितलेच बऱ्यापैकी टिकाकार.

सुरवेच्या काळांत हांवें बरयल्ल्यो खूप उण्यो कविता तांकां आवडल्यात. कवी रामाणी कविते संबंदान, कवितेच्या अर्थ-आशय, उत्कटतेच्या संबंदान आपलें मत मांड्टाले तें प्रामाणिकपणान हातूंत म्हज्या मनांत इल्लोय दुबाव नाशिल्लो. पूण कांय वेळा, म्हजी एकाद्री उत्कृश्ट कविताय तांकां 'निखालस' मानवनासली. मागीर आमचे मदीं वादूय जाताले. पूण त्या वादाचो विशय कविताच आसतालो आनी तो निमाणें कवितेंतूच सोंपतालो.

म्हजो 'अळंग' हो पयलो कविता झेलो २००० वर्सा उजवाडाक आयलो. कवी रामाणींक आवडिल्ल्यो (१९८९- १९९९ ह्या काळांत हांवें बरयल्ल्यो) वेंचीक कविता हांवें ह्या संग्रहांत घेतल्यो आनी हो संग्रह रवीन्द्र केळेकार आनी शंकर रामाणींक अर्पण केलो.

६.

पर्सनल जिणेंत रामाणींचे पूर्वग्रह आशिल्ले. आनी तशे तरेचे पूर्वग्रह प्रत्येकाचे जिणेंत थोडेभोव आसताच. आपल्याक आवड्टा ती कविता श्रेष्ठ अशें रामाणींक दिसतालें.

७.

रामाणींगेर बेळगांवां हांव तीन फावट पावलां. दोनदां टिळकवाडी हांगाच्या तांच्या घरांत आनी एकदां अळवण गल्ली, शहापूरच्या.

तांगेर फकत एक पोरणो रेडिओ आशिल्लो ताचेर रामाणी आकाशवाणीचेर लागतात तितलींच पदां आयकताले. तांचे कडेन टेप रिकॉर्डर नाशिल्लो आनी टी व्हीय नाशिल्लो. घर पुस्तकांनी उपाट भरिल्लें. केन्ना केन्ना आकाशवाणी धारवाड केंद्रा वयल्यान शास्त्रीय संगीत लागतालें. तें रामाणी न चुकतां आयकताले. अमीरखाँ, किशोरी आमोणकार, जितेंद्र अभिषेकी, भिमसेन जोशी हांचें शास्त्रीय गायन ते रेडिओ वयल्यानूच आयकतात अशें तांणी एकदां सांगिल्लें याद जाता.

'अमीरखाँ : राग मेघ' ही एक कविता तांणी मराठींतल्यान बरयली. 'गर्भागार' ह्या संग्रहांत ती वाचूंक मेळटा. किशोरी आमोणकार हांचेर लेगीत एक कविता कोंकणींतल्यान बरयली आनी ती 'निळें निळें ब्रह्म' ह्या संग्रहांत घेतली.

८.

कवी रामाणी 'कविता' खऱ्या अर्थान सॅलेब्रेट करताले. एकाद्री उत्कृश्ट कविता वाचल्या उपरांत तांची तनरी लागताली. आनी ते कवितेचे धुंवळेंत ते बरेच दीस उरताले. बाकीबाबाची 'जपानी रमलाची रात्र' ही कविता तांची विशेश आवडीची. ते कवितेंतल्यो- 'स्पर्शे तुझिया आणि पियानो थरारला सारा । मजसम त्याच्या कानशिलांच्या झणाणल्या तारा' ह्यो दैवी ओळी बाकीबाबाक सुचल्यो कश्यो हें येवजून ते अस्वस्थ जाताले. मराठींतले ना घ देशपांडे, पु शि रेगे, इंदिरा संत, आरती प्रभू, दिलीप चित्रे, अरूण कोलटकर, वसंत डहाके, नारायण सुर्वे हे तांचे आवडटे कवी. संत कवी तुकाराम तर दैवत म्हणल्यार जाता.

अरूण कोलटकर हांची 'या तावदानात,' नारायण सुर्वेची 'सत्य' ह्यो कविता तांणी आपल्या हस्ताक्षरान म्हाका बरोवन धाडिल्ल्यो. ताचे वयल्यान रामाणींक त्यो कविता कितल्यो आवडिल्ल्यो आसूंक जाय हाचो म्हाका अदमास आयलो.

९.

व्हिंन्सेंट व्हॅन गो हो रामाणींचो आवड्टो चित्रकार. व्हॅन गो चीं इंप्रेशनिस्टीक शैलींतलीं तैलचित्रां पळोवन ते सामके भारावन वताले. तांच्या कलॅक्शनांत व्हॅन गो च्यो कांय आर्ट प्लेट्स आशिल्ल्यो.

व्हॅन गो चेर आयर्विंग स्टोन हांणी बरयल्ली 'Lust for Life' ही बायोग्राफीकल कादंबरी तांणी उतराक उतर लावन वाचिल्ली आनी व्हॅन गो चे जिणेंतल्या घडणुकांचो ते आपले जिणे कडेन संबंद जोडूंक पळेताले.

व्हिंन्सेंट व्हॅन गो चो भाव थिओ. व्हिंन्सेंट आनी थिओ दोगूय एकामेकांक पत्रां बरयताले. तातूंतल्या एका पत्रांत व्हॅन गो न थिओक बरयलें- 'Still I can't find the depth of the colour.' रामाणींय आयुष्यभर आपले कवितेक ही- depth - येवंची म्हणून एकसारके तळमळटाले, अस्वस्थ जाताले. 'व्हिंन्सेंट व्हॅन गॉफ' ह्या नांवान तांणी व्हॅन गो चेर उपरांत एक कविताय बरयली आनी तिचो 'दर्पणीचे दीप' ह्या संग्रहांत आसपाव केलो.

१०.

कवी शंकर रामाणींचे जिणेंत तरेतरेचीं वादळां, मोडां आयलीं आनी तांची सगळी जिणूच विस्कळीत करून उडयली. तांचे जिणेंत जें नैराश्य आयलें ताची दाट सावळी तांचे कवितेचेर पडिल्ली दिसता.

'आव्हे मारिया' ही तांच्या 'गर्भागार' ह्या मराठी कविता संग्रहांतली आत्मचरित्रात्मक कविता वाचतकीच काळजाक चुरको बसता आनी मन कळवळून येता. रामाणीन आपलें अख्खें आयुष्य पिळून आपलें दुख्ख, व्यथा आनी भोग-उतळताप ते कवितेंत ओतल्यात.

रामाणींचे कवितेन गांठिल्ली अत्युच्च पातळी म्हणल्यारूच 'आव्हे मारियां'तलें कारूण्य.

११.

The purpose of literature is to turn blood into ink. हो कवी T. S. Eliot हांचो विचार हालींच म्हज्या वाचनांत आयलो. पूण खूब वर्सां आदीं कवी रामाणी कविते विशीं असोच विचार मातसो वेगळे तरेन मांडटाले.

रामाणी सांगताले, ''कवितेंत व्यक्त जाल्लो 'अणभव' काव्यरूप घेतकीर ताका तुमच्या रगताचो, इतलेंच न्हय, तुमीं बरयता त्या पेनांतल्या शायेचो 'वास' येवपाक जाय.''

हे गजालीचो परिणाम म्हजेर इतलो जालो की मागीर ह्या विचाराची खरसाण काव्यरूप घेवन म्हजे 'चित्रभास' हे कवितेंत नकळत झिरपून आयली.

*तांबडीगुंज*
*फुलांची ही रंगबोली*

*रगताची तांबडीगुंज -*
*ही भास*
*ओली*

*मदीं*
*तुजे-म्हजे*
*तांबडीगुंज ही*
*परमळटा आस*

*येता*
*म्हज्या रगताचो*
*म्हजे चित्रभाशेक वास...*

१२.

कवी रामाणींची पत्रां म्हणल्यार तांच्या सभावाचो हारसो. तांच्या सभावाचें पडबिंब त्या पत्रांनी लख्ख बरें दिसता.

कवी रामाणींचे म्हाका निमाणें पत्र आयलें ताचेर तारीक आशिल्ली ०१.०४.२००२.

निमाणें निमाणें पोस्ट कार्डावयलो 'स्पेस' भरून काडपा इतलींय उतरां कवी रामाणीं कडेन उरलींना.

दोळ्यांचो त्रास तांकां पयलीं पसून आशिल्लोच. तातूंत भरीक ब्लड प्रेशर आनी कॅटरेक्टचीं ऑपरेशनां. दाट भिंगाचें वॉक्ल दिसान दीस आनिकूय दाट जायत गेल्लें. लेखन, वाचन करप शक्यूच नाशिल्लें. जाण्टे पिरायेक लागून कुडीचेंय भान इल्लें इल्लें सुटत गेल्लें, हात थरथरताले आनी ग्लानीचे अवस्थेंत दीस सरताले.

मागीर एक दीस अचकीत- कवी रामाणीन आपलेच कवितेंतलो 'उजवाड' परतून एकदां पळेलो. निमाणचो.

*'पालवली वात*
*फांतोडेची भूल*
*उजवाडाचो धुल्ल*
*म्हज्या दारां.'*

१३.

कवी शंकर रामाणींन म्हाका बरयल्लीं बरींच पत्रां आयजूय म्हज्या संग्रहांत आसात. पूण हांवें रामाणींक बरयल्लीं पत्रां आतां खंय आसात?

कांय वर्सां फाटीं रामाणीं गोंयांत आयिल्ले आसतना बेळगांवां तांच्या घरांत चोरी जाल्ली. चोरांनी दुडवांचे आशेन सगळें घर धुंडाळून अस्ताव्यस्त करून उडयल्लें. साक्षर मनशाच्या घरांत चुकून निरक्षर पावले आनी घरभर पुस्तकांच पुस्तकां पळोवन तांणी आपले पोले फोडून घेतले. रामाणींचो तो एकलो-एकुलतो, कवी-लेखकांच्या पत्रांनी भरील्लो ट्रंक चोरांनी उस्तून सगळीं पत्रां भायर काडून उडयल्लीं...

रामाणींचो पत्र-संग्रहूय खूप मोठो. मराठींतल्या नावाजत्या साहित्यिकां कडेन, संपादकां कडेन. तशेंच कोंकणीतल्या लेखक-कवीं कडेन. मराठींत- जी. ए. कुलकर्णी, पु. शि. रेगे, बा. भ. बोरकर, श्री. पु. भागवत, द. ग. गोडसे, श्रीनिवास विनायक कुलकर्णी, चिं. त्र्यं. खानोलकर, वसंत डहाके, वसंत सरवटे, नरेश कवडी अशा लेखकांकडेन तर कोंकणींत- पांडुरंग भांगी, माधव बोरकार, रवीन्द्र केळेकार, नागेश करमली, रमेश वेळुस्कार, चंद्रकांत केणी, डॉ. सुरेश गुंडू आमोणकार, दामोदर मावजो, एस. डी. तेंडुलकार, सुदेश लोटलीकार, गजानन जोग, मुकेश थळी कडेन.

रामाणीन एकदां म्हाका म्हणलें लेगीत- ''पयशे-बियशे आशिल्ले ते चोर घेवन गेल्ले जाल्यार म्हाका व्हडलेशें दिसपाचें न्हय. पूण हीं इतलीं वर्सां सांबाळून दवरिल्लीं पत्रां व्हेल्लीं जाल्यार म्हजेर आकांत येवपाचो. ताचेर हांवें तांकां म्हणलें- त्या पत्रांचें चोर कितें करतले आसले? पत्रां आनी कागद तांकां सारकेंच. ते आयिल्ले ते 'चलनी कागद' व्हरपाक. पूण हे चलना तसले कागद म्हणल्यार तांचे खातीर रद्दीच. ताचें खरें मोल तुमकां आनी म्हाका.''

-पूण इतल्या वर्सां उपरांत म्हाका एक गजाल अजुनूय सतायता ती म्हणल्यार- तो रामाणींलो ट्रंक आनी त्या ट्रंकांतलीं पत्रां आतां खंय आसात?

संपर्क: 9422640210





# श्रावणाच्या यादींतलो श्रावण

अरुण जयराम कामत

भारतांतल्या म्हज्या भारतीयानों,

कदिम काळा सावन संवसाराचो गाडो चलत आसा. दिस उदेता, अस्तमता, दिसाचे म्हयने जातात, म्हयन्यांची वर्सां आनी वर्सांची युगां. ह्या कालप्रवाहात मनीस हो एक असो प्राणी आसा जाणे आपल्या बुदवंतकायेन आपली भौतिक उदरगत केल्या. कंदमुळां खावून जंगलात उगडोच आनी उगड्यार रावपी मनीस, शेतां पिकोवपाक शिकलो आनी ताणे आपल्या जेवणां-खाणांचो प्रस्न सोडयलो. माथ्यार पांखे बांदपाक शिकलो, रावपाचो प्रस्न सोडयलो आनी उगडे आंग कपड्यांत धांपपाची सवंय लावन घेतली. ही लौकीक उदरगत करतना ताणे नग मेजपाक आकड्यांचो सोद लायलो आसतलो. त्या आंकड्यांखातीर अक्षरां आनी शद्ब सुचले आसतले; आनी दिस, म्हयने, वर्सांक नांवां दवरपाक मनशान सुरवात केली आसतली.

संवसारांतल्या विंगड विंगड वाठारांत रावपी लोकांनी, कालखंड मेजपाखातीर, आपल्या संस्कृतीप्रमाण थंयच्या दिसांक, म्हयन्यांक, वर्सांक नांवां दवरल्यांत. आमच्या भारत देसांत आपल्या हिंदू संस्कृतायेप्रमाण आपल्या कालखंडाक नांवां दिर्ली. तातूंतलोच हांव एक, दर वर्सां येवपी, वर्साचो पाचवो (चार) म्हयनो, श्रावण.

गेल्या शेकड्यां-दोन शेकड्यांचो इतिहास पळयलो जाल्यार हांवे म्हज्या दर वर्साच्या २८-२९ दिसांच्या जिणेंत खूब किदें पळयलां. पूण एक गजाल मात अशी आसा जी जेन्ना जेन्ना म्हाका याद जाता तेन्ना तेन्ना म्हजे हड्डें फुलून येता. ती गजाल म्हणजे, ब्रिटीशांच्या जुलमी राजवटीचो अंत जावन आमच्या भारत देसाक स्वातंत्र्य मेळ्ळें तो खीण म्हाका म्हज्या दोळ्यांनी पळोवपाक मेळ्ळो. तो दीस आसलो श्रावण म्हयन्याचो कृष्ण पक्षातलो चतुर्दशीचो दिस (अदीक म्हयनो) जाका तुमी ग्रेगरीय कॅलेंडरात १५ ऑगस्ट १९४७ म्हणटात. ब्रिटिशांनी अखंड भारताची फाळणी केली आनी भारत आनी पाकिस्तान हे दोन देश जल्माक आयले. हिशोब केलो हांवें, म्हणजे आतां ह्या गजालीक ७४ वर्सां पुराय जालीं. ह्या वर्साच्यान भारताच्या नव्या जल्माची अमृतमहोत्सवी वर्सुकी वाटचाल चालू जाता. ताका लागून म्हाका तुमकां कांय गजाली सांगिनश्यो दिसता. भारताच्या सुटके झुजाचे महत्वाचे प्रसंग, मोट्या फुडाऱ्यांची नांवां तुमका खबर आसतलींच, पूण ह्या नव्या देशाच्या निर्मणें पयलीं दोन-तीन म्हयनें जें किदें घडलें ते म्हाका तुमकां आयज हांगा सांगूंक जाय.

दुसऱ्या संवसारीक युद्धा उपरांत ब्रिटिशांची अर्थिक स्थिती सामकी वायट जाल्ली. तेन्नाच ब्रिटनचे नवे पंतप्रधान ॲटली हांणी २० फेब्रेर १९४७ ह्या दिसा भारत देशाविशींचें नवें धोरण ब्रिटनच्या संसदेंत मांडले. ह्या धोरणांत ब्रिटनान पयलेच फावट उक्तेपणान जाहीर केले कीं खंयच्या परिस्थितीत जून १९४८ मेरेन ब्रिटन भारतांतल्यान भायर सरतलें. ह्याच धोरणांत आनीक दोन गजाली आसल्यो. एक म्हणजे, ब्रिटन भारत सोडून वतना,भारत एकसंघ दवरप आनी तें शक्य नासल्यार ताजी फाळणी करप, दुसरी गजाल म्हणजे हे सगळे सोपस्कार पार पडपाक नवो व्हायस रॉय म्हणून लॉर्ड माऊंट बॅटन हांची नेमणूक करप. त्याप्रमाण २४ मार्चाक लॉर्ड माऊंट बॅटन हांणी दिल्लीच्या व्हाईस रीगल लॉजात नवो ब्रिटीश व्हाईस रॉय म्हणून सोपूत घेतलो.

म्हाका म्हज्या फाटल्या पिळगेकडल्यान जे कळ्ळां तें हांव तुमकां सांगत वता. १९४७ च्या मार्च-एप्रील म्हयन्यांत आमच्या देशांतली परिस्थिती सामकी वायट जायत वताली. ऑगस्ट १९४६ सालांत मुस्लीम लीगान चालू केल्ल्या 'डायरेक्ट ॲक्शन' चळवळींखातीर देशांत सगळ्याक, खास करुन बंगालाक, खूब हिंसाचार पातळिल्लो, दंगे जाताले. तेन्नाच्या आमच्या काँग्रेसीच्या फुडाऱ्यांनी व्हॉईसरॉय लॉर्ड माऊंट बॅटनाची भेट घेतली आनी ताच्या कानार सगल्यो गजाली घाल्यो. मुस्लीम लीगाच्या फुडाऱ्यांक समजावपाची विनंती तांणी व्हाईस रॉयाक

केली. पूण बॅरिस्टर जीना आनी मुस्लीम लीगाचे हेर फुडारी कांयच आयकुपाक तयार नाशिल्ले. निमणें लॉर्ड माऊंट बॅटन हांणी देशाच्या भलायकेखातीर आनी देश एकसंघ दवरपाखातीर कॅबिनेट मिशनान मांडिल्लीच येवजण परत मांडली.

'कॅबिटेन मिशन' येवजण अशी आसली, कीं भारत देशाची एकूण तीन प्रांतात वांटणी करप. एक हिंदू चड आसा तो. जातूंत मद्रास, मुंबय, मध्य प्रांत, बिहार, ओरिसा आनी युनायटेड प्रांत आसतले. दुसरो भाग मुसलमान चड आसात ते म्हणजे सिंध, बलुचिस्तान, पंजाब, वायव्य सरहद्द प्रांत हो आनी तिसरो भाग बंगाल आनी आसाम मेळून. हे तीन भाग दिल्ली स्थापन जाल्ले सरकार चलयतलें. ही येवजण लंडनाक मंजूर करपाक धाडली आनी लॉर्ड माऊंट बॅटन सुटी मनोवपाक सिमल्याक गेलो. थंय ताणे आपल्या बरोबर पंडित नेहरुंकय आपयलो. थंय नेहरुन कॅबिनेट मिशन येवजणेक खर विरोध केलो. आपली येवजण नेहरु न्हयकारता हो व्हॉईस रॉय माऊंट बॅटनाखातीर व्हडलो धक्को आसलो. तेन्ना सिमल्यांत नेहरु बराबर व्ही.पी. मेनन आशिल्लो. व्हाईस रॉयन मेननाक नवीन येवजण सुचोवपाची विनंती केली.

लॉर्ड व्हेवल हांणी हाचे पयलीं एक येवजण मांडिल्ली. त्या येवजणेत कांय बारीक दुरुस्ती करुन व्ही.पी. मेननान परतून एकदा ती लॉर्ड माऊंट बॅटना मुखार मांडली. ह्या येवजणेत अखंड भारताची फाळणी सुचयल्ली. भारताच्या पूर्वेक आनी पश्चिमेक जे मुस्लीम चड आशिल्ले प्रदेश आसात तांचे पाकिस्तान हें राष्ट्र करप, पंजाब आनी बंगाल हांची पूर्व, पश्चिम अशी विभागणी करुन हिंदू चड आसात ते भाग भारतांत घालून हिंदूस्थान हे राष्ट्र करप अशी ही येवजण.

३० मेक ही येवजण लंडनातल्यान मंजूर जावन आयली. २ जून १९४७ ह्या दिसा माऊंट बॅटनान हिंदू, मुस्लीम आनी शीख फुडाऱ्यांची एक बसका घेतली आणि ब्रिटीश सरकारान मान्य केल्ली ही येवजण त्या सगळ्यांमुखार मांडली आनी ताची मंजुरी घेतली. ३ जूनाक पंतप्रधान ॲटलीन ही येवजण ब्रिटीश पार्लमेंटाफुडें मांडली. त्याच दिसा पंडित नेहरुन रेडिओवयल्यान भारतीयांक संबोदित केले. 'देशाच्या देश वासियांच्या भलायके खातीर अखंड भारताची फाळणी होच एकमेव पर्याय उरला. खूब दुःखी अंतःकरणान आनी उपाय नासतनां काँग्रेसीन फाळणीक तेंको दिला' अशे नेहरुन देशवासियांक सांगलें.

हांगा देशांतली परिस्थिती सामकी इबाडत वताली. फाळणेक जितलो वगत जातलो, तितलो ह्या देशांतल्या लोकांचे चड नुकसान जातलें, हें माऊंटबॅटनाच्या लक्षांत आयलें. ताणे अचकीत ६ जूनाक घोशणां केली कीं, १५ ऑगस्ट ह्या दिसा भारत आनी पाकिस्तान स्वतंत्र देश म्हणून निर्माण जातलें आनी ब्रिटन सत्ता त्या देशांच्या सरकाराकडे सुपूर्द करतलें.

६ जून ते १५ ऑगस्ट फकत सत्तर दिस आशिल्ले फाळणीची सगली कामां करपाक. व्हाईस रॉयचे सेक्रेटरी खिस्ती हांणी 'फाळणीचे प्रशासनाचेर जावपी परिणाम' हें एक अभ्यासपूर्ण टिपण कॅबिनेटीक सादर केले. तें वाचून फाळणीच्या कामाचो पसारो सगल्यांच्या लक्षांत आयलो.

खूब कठीण आनी कांय कडू निर्णय घेवपाचे आशिल्ले. ताका लागून 'पार्टिशन काऊन्सिल' स्थापन केलो. व्हाईसरॉय माऊंट बॅटन हे काऊन्सिलाचे अध्यक्ष तर भारताचे प्रतिनिधी म्हणून सरदार पटेल, राजेंद्र प्रसाद आनी ते नासल्यार सी. राजगोपाल चारी तर पाकिस्तानाचे बॅरिस्टर जीना, लियाकत अली खान, अब्दुल निश्तर हांकां वेंचले. पार्टीशन काऊन्सिलाक मजत करपाक एच.एम. पटेल आनी पाकिस्तानावटेन चौधरी महम्मद अली हे तज्ज्ञ आय. सी. एस. ऑफिसर नेमिल्ले.

एच.एम. पटेल आनी चौधरी अली हे सामके हुशार अधिकारी. ह्या दोगांनीय रात दीस काम करुन फाळणेचीं कामां पुराय केलीं. म्हाका तरी सदांच अशें दिसता कीं दोन पटेलांनी म्हणजे सरदार पटेल आनी एच.एम पटेल हांणी देशाची फाळणी योग्य तरेन जावची म्हण जितली तकालस घेतल्या तितली आनी कोणेच घेवंक ना. हे दोनूय पटेल 'अनसंग हिरो' थारले.

एच.एम. पटेल आनी चौधरी अली हांणी वेगळ्या वेगळ्या क्षेत्रांतल्या तज्ज्ञांच्यो समिती स्थापन केल्यो. प्रशासन, मनीसबळ, ॲसेटस आनी लायेबिलीटीज, केंद्राचे कर, चलन, नाणीं, सशस्त्र दल ह्या सगल्या विभागांखातीर समित्यो घडोवन तांणी तांची विभागणी कशी करपाची हाजो अभ्यास केलो. ह्या ऑफिसरांनी पार्टीशन करतना कितल्यो गजाली, कितल्या बारकायेन वांटल्यात ताजी आयज तुमका कल्पना येवंची ना. तुमकां एक देख दिता, देशांतल्या संसाधनाचो सारको वांटो जावूंक जाय म्हणून ताणीं तांचे मोल थारायलें आनी वांटणी केली. पोर्टेबल टायप रायटर रु. २५०, स्टँडर्ड टायप रायटर २७५ रुपये, ऑफिसराचे फर्निचर आनी स्टेशनरी रु. १५०, जाल्यार क्लार्काचे फर्निचर आनी स्टेशनरी ५० रुपये. अशे मोल थारायलें आनी ताचे वांटे केले. पाकिस्तानांत ताणी आनी नोटी छापपाक टांकसाळ नाशिल्ली म्हणून कांय तेप भारतांतली टांकसाळ वापरपाक तांका मान्यताय दिली.

त्या वर्सा १३ जुलयाक अधिक श्रावण मासाक सुरवात जालो. म्हाका जेन्ना कळ्ळें की १५ तारखेक म्हणजे श्रावण कृष्ण चतुर्दशीक भारत आनी पाकिस्तान हे दोन नवे देश जल्माक येतले तेन्ना म्हज्या आंगार कांटो उबो रावलो.

केद्या व्हडल्या इतिहासीक खिणांचो हांव साक्षीदार जातलो! एक न्हय तर दोन दोन देशांची निर्मिती म्हज्या कालखंडात जातली! त्यो प्रसववेदना म्हज्यान सोंसपाक जातल्यो? म्हजो म्हाकाच प्रस्न पडलो. आनी फुडे खरेंच हो नवनिर्मितीचो खीण आनंदा इतलोच, दुखेस्त लेगीत जालो. हें दुःख, त्यो वेदना म्हज्या सहनशक्ती पाश्ट आसल्यो.

जसो जसो १५ ऑगस्ट लागीं येवपाक लागलो तश्यो तश्यो हिंदू आनी मुसलमान दंगली जावपाक सुरवात जाली. फाळणेक लागून लाखांनी हिंदू मुसलमान आनी शीख भावा-भयणांक नेसत्या वस्त्रान आपली घरां-दारां सोडून स्थलांतर करचें पडलें. पूर्व बंगालांतले हिंदू पश्चिम बंगालात तर पश्चिम बंगालांतले मुसलमान पूर्व बंगालांत गेले. पंजाबाची फाळणी जाली आनी पूर्व पंजाबांतले मुसलमान पश्चिम पंजाबात तर पश्चिम पंजाबांतले हिंदू पूर्व पंजाबात स्थलांतर जाले.

*(पान २१ चेर)*



# श्रावणांतल्यो श्रावण यादी

जयंती नायक

श्रावण म्हणल्यार पांचव्या रंगाचो शिंरगार केल्ली धर्तरी!
श्रावण म्हणल्यार नवसृजर्नाचो गर्भधारण केल्ली वसुंधरा!
श्रावण म्हणल्यार झाडांचेर रिमझीम शिंवरतल्यो मेघशेनो!
श्रावण म्हणल्यार पानां-फुलांचेर आपालिपा खेळटलें सोनवत!
श्रावण म्हणल्यार शेतांतले पालयेक धोलयतली वाऱ्याची मवाळ झोत!
श्रावण म्हणल्यार खळखळत व्हांवतले दुधाळ उदकाचे वझरे!
श्रावण म्हणल्यार चोंय दिकांनी पातळिल्लो फुलांचो परमळ!
श्रावण म्हटल्यार पारदकाचो शिंताडो आनी जायांचो घमघम!
श्रावण म्हणल्यार फुलां-फुलांचेर खेळ्पी रंग-रंगयाळी फुलपांखीं!
श्रावण म्हणल्यार झाडांच्या शेंड्यावेलो सुकण्यांचो चिंवचिंवाट!
श्रावण म्हणल्यार कापूर-उजवातींचो मनप्रसन्न करपी परमळ !
श्रावण म्हणल्यार केसर, चंदन आनी अभिर-गुलालाची पवित्र उटी!
श्रावण म्हणल्यार भजन, किर्तन, पुराण, आरत्यो आणि हरी नांवाचो गजर!
श्रावण म्हणल्यार दिप- दिव्यांची आराधना !
श्रावण म्हणल्यार देवळांतल्या घांटिचो किणकिणाट!
श्रावण म्हणल्यार ताळ-मृदंगांचो नाद!
श्रावण म्हणल्यार सण-परबांची गर्दी, उत्सवांची उमेद.
श्रावण म्हणल्यार देव-देवतांची उपासना, व्रत-वैकल्यांचो भक्तीभाव!
श्रावण म्हणल्यार लालखी -पालखी, इश्ट-आराध्यांची दिंडी!
श्रावण म्हणल्यर नेवेद्य-प्रसाद, पानां-पत्रेची आरास!
श्रावण म्हणल्यार गोड-गोडशीं , पक्वान्नांचो सुकाळ!
श्रावण म्हणल्यार फुगड्यो, होंवयो आनी मंगळा गौरीचीं गायनां.
श्रावण म्हणल्यार आदित्याची पुजा आनी गौरी-गणपतीची तयारी!
श्रावण म्हणल्यार सोवळें-वोंवळें आनी मांगल्याचो संगम!
श्रावण म्हणल्यार मनाची शुचिर्भूतता आनी देहाची पवित्रता !
श्रावण म्हणल्यार अंतरआत्माचें परमात्म्याकडेन तादाम्य!

श्रावण म्हयनो हो धर्तरिच्या ऋतुचक्रांतल्या बारा म्हयन्यांमदलो उमेद-उल्हासाचो म्हयनो. चातुर्मासांत येवपी ह्या म्हयन्याची सुलूस लागताच मन नकळत अध्यात्मीक भावनांनी भरून येता. मनांतल्यो वासना-विकल्प खंयचेखंय ना जावन मनाक परमात्म्याचे भक्तीचे वेध लागतात.

जेश्ट-आशाढांत धर्तरी पावसाच्या हरंधारांनी चिप्प भिजता, जंय-थंय तांबड्या उदकाचे व्हाळ व्हांवतात. मदीं मदीं कुपांनी मळब दाटून येता, सुर्यांचीं किरणां चुकून धतरिर दिसतात, पूण श्रावण लागताच पावसाचो नेट उणो जावन धतरिचेर भांगराळीं किरणां खेळूंक लागतात, मळब नितळ जाता, धतरिच्या कुसव्यांत जेश्टांतल्या पावसान रुजयिल्ल्या बियांनी आतां रोंपल्यांचे रुप घेतिल्लें आसता, खंयखंय ताका फुलूय फुलूंक लागिल्लें आसता, सगळी धर्तरी पांचवोचार शालू न्हेसून बसता. इतलो तेंप आपल्या कोशांत दडून बशिल्लीं फुलपांखीं, बिरमुट्यो आतां हळूच भायर सरून ह्या फुलाचेर, त्या पानांचेर करीत खेळी करतना दिसतात. आसमंतांत एक तृप्तताय, आनंद, समाधान पातळिल्लें दिसता.

अशें वातावरण पळयलें म्हणटकच हांव म्हज्या नकळत शाळेंत आसतना शिकिल्ल्या बालकवीच्या कवितेच्यो ओळी गुणगुणूंक लागतां,

''श्रावणमासी हर्ष मानसी हिरवळ दाटे चोहिकडे
क्षणात येते सरसर शिरवे क्षणात फिरुनी उन पडे
वरति बघता इंद्रधनुचा गोफ दुहेरी विणलासे
मंगल तोरण कुणी बांधले नभो मंडपी कुणी भासे
झालासा सुर्यास्त वाटतो, सांज अहाहा तो उघडे
तरू शिखरावर उंच घरावर पिवळे पिवळे उन पडे''

*****

खंयचेंच पंचाग, खंयचेंच कॅलेंडर पळयनासतना, वातावरणांत पातळूंक लागिल्ल्या एका विशिश्ट तरेच्या हरवश्या वासावेल्यान म्हाका श्रावणाच्या येवपाची सुलूस लागता. श्रावणांतल्या ओल्या फांतोडेर जागें जावन वातावरणांतलो तो हरवटसो वास नाकपुडयांत हुंगून घेत, आवयल्या पातळाची गोजडी आंगार पांगरून, हांथुरणांत मुंगरून रावपांत म्हाका सर्गसुख मेळटा. अशें मुंगरून राविल्लेकडेन म्हजें मन नकळत भूतकाळांत वता. भुरगेपणांत.... किशोरी अवस्थेंत, जगिल्ल्या श्रावण- दिसांच्या यादिंनी म्हजें मन मागीर कितलो तरी वेळ रमता.

म्हाका सगळ्यांत आदीं याद जाता ती श्रावणांत कळयो आनी फुलांच्या घोसांनी गच्च भरिल्लो, आंगणाच्या एका कोनशाक उबो आशिल्लो पारदक आनी ताणें मुक्त हातांनी आंगणभर घाल्लो सात्वीक परमळाच्या फुलाचो शिंताडो. आज्यान खंय केन्नातरी तो रोयिल्लो, ताच्या मायेस्त काळजा सारखी ताची फुलांय अळंग. खोमशेची व्होटणी भरभरून हांवें तीं धव्वी फुल्ल, केसरी देठाची, नाजूक फुलां पुंजायिल्लीं, केन्ना आईल्या आयतार पुजेखातीर तर केन्ना आज्याल्या देवपुजे खातीर, तर केन्ना तुळशी भोंवतणी त्या फुलांची रांगोळी घालपा खातीर.

मागीर म्हाका याद जाता तो पोरसांतलो मनशाचे उंचायेपरस व्हड वाडिल्लो आनी पुरूसभर पाळां -मुळां पातळून फांगरेल्लो अनंत. एखाद्या जाण्टया रुशीच्या माथ्यार जसो एकूय काळो केंस नाशिल्लो, धव्या फुल्ल जटयांचो शेंडो आसचो, ते तरेन तो दिसतालो. श्रावणांत ताका धव्या फुल्ल परमळीत फुलांचो भार येतालो, तेन्ना ताचें एक्कूय पान दिसनाशिल्लें. कुरपणो भरून फुलां खुंटलीं तरी तो आदलेवरीच भरिल्लो दिसतालो. ताचो वास आगळोच, ताच्या वासान मनांत वैरागी वृत्ती उदेताली.

मागीर म्हाका याद जाता ती ताचेच कुशीक आशिल्ली, श्रावणांत

आपल्याक मोल आयलां म्हण चडूच भाव खावपी, तांबडीगुंज पांच पांकळ्यांची दसण. पोरसाच्या वंयेचेर बळिल्लो आनी आईच्या आयताराचे पुजेंत सगळ्यांत चड भाव मेळिल्लो - हळडुवोच कर्नो. वंयेच्या ताट्याचेर पातळिल्ले कडेन आपल्या म्हऱ्यांत कोण येत काय हाची सुलूस घेत कान फांकरून आशिल्ली निळी, दोट्टी पांकळ्यांची - गोकर्ण आनी गुलाबसार देग आशिल्ल्या, नाजूक धव्या पांकळ्यांच्या कुचकुचीत फुलांनी आनी कळयांनी भरिल्लें, आपल्या घमघमान सगळो आसमंत मुग्ध करतलें जायेचें बसकें झोंप.



याद जाता म्हाका, आमच्या वाड्यारच न्हय तर पुराय गांवांत खंयच नाशिल्लें, केन्ना कोणें मुद्दाम रोयिल्लें, काय आपसुकच जाल्लें हें खबर नाशिल्लें - अप्रूप फुलांचें, श्रावणांत पानांन पान फुलपी, पाणट्यावेले वाटेर आशिल्लें नागचाफ्याचें व्हडलें झाड. मागीर म्हाका याद जाता, म्हजो हट्ट पुरोवपा खातीर थंयच्या कांडाचे घोलींत रावपी नागसर्पाचो भंय बाळगिनासतना व्हडल्या मदीं येद्दो मोठो हळडुवोच दोळो (केंसराचो गुच्छ) आशिल्लीं, धव्या रंगाचीं, पांच पांकळ्यांचीं ताचीं भावान बडयेन गोळोव मारून काडून हाडिल्लीं घमघमीत तळटायेदीं, फुलां.

मागीर म्हाका याद जाता ती सकाळीं सकाळीं घरा-आंगणांत सात्र मारून आईन घाल्लो शेणाशिंताडो आनी तुळशी मुखावयलें धवेंफुल्ल रांगोळेचें स्वस्तिक आनी मागीर याद जाता ती तिच्या दुर्येतपणांत, तिच्यान नज म्हण हांवें मुखार व्हेल्ली त्या शिंताडयाची परंपरा.

मागीर म्हज्यो नाकापुडयो हुंगतात घराचे दावे वटेन आशिल्ल्या गोठ्यांतल्या गोरवांचो हरवें तण-पालय खावन हरवट जाल्लो शेणा-मुताचो दर्प आनी पडवेर एका कोनशाक गोरवां राखण्यान हाडून उडयिल्ल्या हरव्या तणाचे भोरे. मागीर, ''दारांत कोयर केलो मरे, हांवें आतांच सात्र मारिल्ली?'' म्हण हांवें ताचेकडेन केल्लीं झगडीं आनी ...''हो कोयर न्ही, हें आमगेल्या गोरवांचें पोट!'' अशें म्हणीत म्हजेर धेंगशून उलयिल्लीं आवयलीं शाणपणाचीं उतरां.

याद जाता म्हाका, सदां श्रावणांत वियेवपी, वर्सुकी विताची तांबू गाय, फांतोडेर तट्टटटिल्ले व्होटयेन तिणें पाडकाक घाल्लो 'हाम्मा' आनी मागीर घरांत, मदल्या सालांत खुंटाक बांदिल्लेकडेन आवयच्या आवाजान पिटकुल्या पाडकान रडून केल्लो सांवार.

याद जाता म्हाका देवाकुडींत देवापुजा करून, तिपऱ्यो वाजयत आपल्या इश्टदेव पंढरीच्या पांडुरंगाचें स्तवन करपी पंढरीभक्त आजो. पडवेवेल्या सोप्यार बसून श्रावणाच्या पयल्या दिसासावनच अखंडपणान चवथी खातीर लागपी कापसाच्यो वाती वळपी माथ्यार केंसाचें मालें धवें जाल्ली पणजी. नाटकाशिवाय कसल्याच गजालींत सारस्व नाशिल्लो, पूण श्रावणांत आपल्या नाटकांतले संवाद-नाट्य गितांक मात्शें कुशीक दवरून वोंठाचेर एखाद्रें भक्तीगीत गुणगुणपी बापूय... आनी पुराय म्हयनो आपलीं व्रतां-उपास करतनाच, भुरग्यांच्यो नुस्त्याच्या जेवणाच्यो रुची पुरोवपी आई.

याद जाता तिचें आयतार पुजन. तिनें नेवेद्याक केल्लीं मुटलीं, पातोळ्यो, मुगांची गोड खिचडी आनी गोडपोळे. तिच्या आयतारा खातीर भावाबरोबर वा शेजारच्या चलयां बरोबर मड्डेर-दोंगुल्लेर वचून हाडिल्ली पत्री, आनी शेतांच्या मेरांवेली, जिवाणें बी ना मूं हांगा? म्हण भिये भियेत काडिल्ली हरयाळी... फुडें तिच्या दुर्येतपणांत केल्ली तिच्या पुराय आयतार पुजेची तयारी...

याद जाता म्हाका गांवचे उत्तर दिकेक पातळिल्ली, पुराय गांवाक ते बाजून कंवडाळें करून आशिल्ली पांचवीच शेतवड आनी भाताच्या थांबांतल्यान भायर सरतलीं दुदाळ पोटरां. नव्या पंचमीक गांवकारान वाजत-गाजत कापून हाडिल्लीं 'देव नमशीं'तलीं नवीं (कणसां) आनी लोकांनी परंपरेन व्हरून दारांत बांदिल्ली ताचीं तोरणां.

श्रावणाचे सुरवेकच येवपी नागपंचम आनी ''आज जमनीक दुखापत केल्यार नाग येवन चाबतलो!'' म्हण आज्यान घाल्लो भंय. याद जाता म्हाका शाळेंत शिकता आसतना, गांवांत नव्यानच पाविल्लें रक्षाबंधन आनी तिनय भावांक राखी बांदून निमाणें आईकडल्यान आपल्याय मनगटाचेर बांदून घेतिल्ली राखी. याद जाता म्हाका गांवच्या फक्त दोन भटांच्या घरांनी करतली अश्टम आनी गांवभरच्या लोकांक तांगेर फराळ खावपाक येवपाचें दिल्लें आमंत्रण. मागीर श्रावणाचो तिसरो आयतार लागताच गांवच्या घरा-घरांत सुरू जातली चवथीची तयारी, घरांची रंगोवणी-सारोवणी ...सामानाची पुंजावणी...

श्रावणांतल्या यादिंचें पेटूल उस्तितां उस्तितां हांव अस्वस्थ जाता. आतां श्रावण येता, पूण आई, पापा, आजो, पणजी... हीं जगांत नात, गांवय आतां पयलींचो ना... श्रावणांत तरतरून नाना तरेची पत्री चंवरपी दोंगुल्ल्यो उरल्योनात, गांवच्या पोरसांतली दसण, अनंत, कर्नो, गोकर्ण... हीं आतां आपल्याच पोरसांत परकी जाल्यांत, तांचो जागो आतां नर्सरींतल्या फुलझाडांनी घेतला. नमशीची वाट गांवकार विसरून गेल्यात, आयतार पूजन आतां जाण्ट्यां बायलांचेंच कार्य जालां...

आदल्यो गजाली बदलल्यांत हें जितलें खरें तितलेंच आतांय येतलो श्रावण मनांत सृजन आस रुजयत येता हेंवूय तितलेंच खरें. परिवर्तन हो सृश्टीचो नेम. पोरने वतलें...नवें येतलें. आयचें नवें, फाल्यां पोरनें जातलें... हें आतां मनान मानूंन घेतलां.

संपर्क: 9823575623





# श्रावणांतले आयतार

हर्षा शेटये

पावस येता धोल बडयत. रकता घसघशांनी. रकत रावता. तापिल्ली धर्तरी शांत जाता. फुलून येता भितरल्यान. रुजतात बियां लुसलुशीत. कोंब वयर सरतात. धर्तरी पांचवोचार शालू न्हेसून मिरयता - आनी तेन्नाच आशाड सरता.

श्रावण लागता. ''श्रावण आयलो... श्रावण आयलो...'' श्रावण येता मोतयाळो पावस घेवन. झरझर करुन दडक येता. मनां चिंब भिजोवन वता. मर्दींच हळडुवेच लिकलिकीत वत येता.

श्रावण येता आपल्या बराबर सण, परबो, व्रतां घेवन. श्रावणांतल्या एके तिथीचीं वेगळी वेगळी काणी. दर एका वाराचीं वेगळी ळी पुजा. नागपंचम, सुता पुनव, अष्टम, शुक्राराची पूजा, तीचो शेनवार, श्रावणी सोमवार.. आनी ह्या सगळ्या व्रतांभितर भुरग्यांबाळांचो, सवायशिणींचो चड लागिचो, अपुरबायेचोय म्हळ्यार जाता तो श्रावण आयतार.

ह्या वर्सा कितले आयतार आयल्यात? चार कांय पांच? श्रावण आयतारच्यान सुरु जाता? मागीर पांच आयतार येतले तर!... श्रावणाची उमास केन्ना?.. असली उलोवपां कानार पडटात. ही चर्चा बेठीच न्हय. श्रावणांतले आयतार म्हळ्यार पुजपाचे आयतार. दिसभर सैम आमच्या पोशांत रकय रकय रकयता. सुर्य आसा म्हणून उजवाड आसा. उजवाड आसा म्हणून संवसार चलता. तेखातीर कृतज्ञता व्यक्त करपाकूच जाय. सैमान दिल्लें ताका ओंपूकूच जाय. हेच भावनेन श्रावणांतले आयतार पुजतात.



आता फाटीं वळून पळयतना ते भुरगेपणांतले अमुरपिके दीस याद जातात. श्रावणांतलो आयतार म्हळ्यार आमचेखातीर एक सुवाळो कसो. सैम सुवाळो म्हज्यो मडगांवच्यो आयताराच्यो यादी हांव सात-आठ वर्साचें आसतनांच्यो. ताचेपयलीं हांव म्हज्या आजोळा आसतालें. तेदेवेळार आयतार पुजप म्हळ्यार भोगावळ नासताली. घरांत एके तरेचें उमेदीचे वातावरण आसतालें. आयतार पुजेची तयारी शेनवाराच सुरु जाताली. पयलीं म्हळ्यार देवाकूड निवळ करप. तशी ती निवळूच आसतालीं. तरीय खंय खंय हात भोंवडावप. नळयांचीं पोरणी घरां, रांदनीवयलीं रांदपां. परतो परतो घयरांव जातालोच. म्हणून शेनवारा एक हात भोंवडावप. मागीर देवाची तांब्याचीं आयदनां, निवेद्याचें जेवण रांदपाचे पितुळचे तोप, आमटाण बी लावन लखलखीत घासप.

शेनवारा शाळेतूंय आयताराच्योच खबरो. हांव ही पत्री खुटतलें. ती पत्री खुटतलें. सकाळीं फुडें बेगीन उठून पारजताची फुलां पुंजायताले. घरा येत जाल्यारुय आयताराचीच तयारी.

आमच्या आंगणांत खूब हरयाळी जाताल्यो. सांजवेळार वाड्यावयल्यो चलयो हरयाळी काडपाक येताल्यो. मर्दीं मर्दीं पावसाची दडक येतालीच. सत्र्यो बी घेवन हरयाळीं काडप. आंगणांत गुलाब, मोगरी, कणोर, जाय, जूय, कस्तूर, मोगरी, सदामोगरी हांचीय झाडां आशिल्लीं. ह्या सदामोगरेक शेळपेजेची फुलां अशेंय नांव आसा. तर हरयाळी व्हरपाक येवपी चलयो, बायलो ह्याच फुलझाडांचे एक एक पान व्हरतालीं.

आमच्या वाड्यार म्हज्या वयाच्यो म्हळ्यार एक दोन वर्सांनीं ल्हान व्हड अश्यो खूब चलयो आशिल्ल्यो. सगळींजाणां मेळून पत्री सोदपाक हेडटालीं. हरशीं सगळ्यांचीं व्हडलीं व्हडलीं मागिलदारां आशिल्लीं. मागिलदारांक फातरांची दुरगां आशिल्ली. त्या दुरगांचेर पावसांत बराऽ दाट शेळो दाट्टालो. आनी तातूंतल्यान बारीक बारीक वनस्पत किल्लताली. इल्लेशें एक झाड आसताले. सत्री कशें. ताका इल्लीशी हळडुवीच फुलां येताली. ही देवाची सत्री. ही तर जायच! आनीक एक पांचव्या पानांचे तण किल्लतालें. चुकून एक पान तांबडे जाल्लें मेळतालें. तो सितेचो तिळो.

दुरगार एके तरेचें 'फर्न' किल्लतालें. घोड्याचीं पावलां म्हणून. एका हातांत ताचो देठ म्हळ्यार मूळ धरुन ताची पानां दुसऱ्या हाताच्या बोटांनी भिर्रऽऽ करुन ओडप. मागीर ताचो गुलाब कसो जातालो. मर्दीं मर्दीं पावस झडत आसतालोच.

पूण सत्र्यो मानेर दवरुन आमी बाबड्या घोड्याच्या पावलांक गुलाबाचें रुप दित रावतालीं. मात्शी तशीच दिसपी आनीक एक वनस्पत आसताली. घोड्याची जिबली काय कितें तरी! ते भायर कावळ्या दोळो, रामाचीं बोटां, सितेचीं बोटां, हुंदरा कान ह्याय नांवांची वनस्पत आसतालीं. इतल्यान सोंपलां? मागीर सगळीं मागिलदारां भोवन आपटो,

कोरणो, पारजत, अनंत, चांफो, वोंवळ, केंसर, आबोलीं, दसण हांचींय पानां खुंटप. विलोद, बुतांव, मारुतीच्यो शेपड्यो, फोगेट्यो, गोठलां, कारवां... ह्या सगळ्या फुलझाडांचीं पानां बुड्डावप.

म्हाका याद जाता ते प्रमाण हांव तिसरेक आसतानाच्यान हांवें हो आयताराक पत्री, हरयाळी खुंटपाचो वावर सुरु केल्लो तो म्हजें लग्न जाय मेरेन सुरु आशिल्लो.

जशी जशी आमी व्हड जायत रावलीं तसो तसो आमचो पत्री पुंजावपाचो वाठार व्हड जायत गेलो. शाळेतल्यो इश्टिणी मडगांवचें हें पोंत ते तें पोंत मेरेनच्यो. म्हळ्यार खारेबांद ते बड्ड्या मेरेनच्यो. कोणेय एकटेन सांगप आपले थंय पेडांत शेरवडाचे झाड आसा म्हणून. मागीर तें धवेफुल्ल पान मेळोवपाखातीर थंय मेरेन गेल्ल्याची याद जाता. आमची भुरावळ चारांक भायर सरताली ती बद्द सातांक परती येताली. मडगांवच्या जार्दीनांत लेगीत पानां फुलांचेर हात मारिल्ल्याची याद आसा.

व्हड जाता तशें हांव आयताराची सगळी तयारी करुन दिवपाक लागलें. मागिलदारांतल्यान दोन आळवाची पानां काडून हाडप. ताच्या देठाचे दोर काडून तातूंत हरयाळीच्यो चुडयो बांदप... कापसाची वस्त्रां करप. एका वस्त्राक मदीं मदीं कुकुम लावप. वस्त्रां, एक ल्हान उपवस्त्र. मागीर कापसाचेंच भांगर करप. वेड, नथ, बुगड्यो, वेडे, कांकणां... हें करपाक मात मजा येतालीं. कापूस घेवन अश्शें अश्शें सात पिळ घाले की जाली वेड. मदीं पिळ घालून हेवटेन तेवटेन दोन गुळे दवरप. जाल्यो बुगड्यो!... म्हजी बापोल आजी मावशीबाय म्हणटाली, ''बरे मन लावन अश्यो वस्ती केल्यार आपल्याकूय तश्योच वस्तीं मेळटात.''

आयताराच्या पुजेचे दोन मुखेल घटक म्हळ्यार दादलो पत्री आनी बायल पत्री. आळवाची पानां घेवन हांच्यो दोन वेगळ्यो वेगळ्यो पुडयो बांदप. बायल आनी दादलो पत्री वेगळावपाचे म्हजें एक सोपे शास्त्र आशिल्लें. ज्या फुलझाडांक बायलांचीं नांवां आसतात. त्या झाडांचीं पानां तीं बायल पत्री. आबोलें, शेवतें, मोगरें... पुडयो बांदपाक सोपें पडटाले. पूण बुतांव, विलोद... तांका मागीर दादल्यांत धुकलप. पारजतूय दादलो. कणोर, कोरणो दादलेच. बाकी पावलां, बोटां तीं दोगांकूय कॉमन.

चुडटी काडून वक्ल करप. तें वक्ल करतना मागीर चुडटेचे गिरगिरें, घड्याळ, सोरोप असलेय प्रकार करप. वाड्यार कोण ना कोण ल्हान भुरगो आसतालोच. ताका दिवप खेळपाक.

आयतारा सकाळीं म्हजी आवय आमी उठचे पयली माथ्यार न्हावन तयार आसताली. केसांक धवो वालो बांदिल्लो आसतालो. णव वारी सोवळें न्हेंसताली. हांवूय बेगबेगीन न्हांवन तयार जातालें. तिच्या म्हऱ्यांत बसून आयतार पुजतना पळयतालें. तिची केन्नाय अडचण आसल्यार व्हडा उमेदीन हांवें हें श्रवणांतले आयतार पुजल्यात.

देवाकुडींत वणटीक तेंकोवन किरां-मोरांचो ल्हान पाट दवरताली. ताचेर बारा आख्खे तांदूळ दवरताली. ताचे वयर शिरती दवरताली. दवरताली म्हळयार पाटार बसयताली. अर्दी शिरती वणटीक तेंकोवन, अर्दी पाटार. शिरतेचेर गंदान चंद्र आनी सुर्य काडटाली. मागीर ताचेर

वक्ल दवरताली. वक्लाच्या उजव्या दोळ्यांत बेडो जाल्यार दाव्या दोळ्यांत हळदी कूट. बेडो दवरला त्या दोळ्यांत दादलो पत्रेची पुडी तर दुसऱ्या दोळ्यांत बायल पत्रेची पुडी. मागीर वस्त्रां, कापसाचे भांगर घालप. हळदी दोळ्यांत बत्तीसांची चुडी तर दुसऱ्या तेतीसाची चुडी. मागीर सितेचो तिळो बी असली उरिल्ली पत्री आनी तरेकवार फुलां. निमाण्या आयतारा धवीं फुलां चड घालप. आयतार म्हातारो जाता म्हणून. केंस पिकिल्लो जाणटेलो आजो कसो दिसपाक नाका तर!

आयताराच्या दोशी वटेन दोन विडे दवरतालीं. तांचेर पांच पांचाच्यो दोन चुडयो दवरतालीं.

आयताराक गंद फूल घालून अर्गी दितना तिचेकडेन एका कागदार नांवां बरयिल्लीं आसताली. ती म्हणटाली,

*पयलें अर्गें हस्तदेवाक*
*दुसरें अर्गें हस्तराणयेक*
*तिसरें अर्गें तुळशी मातेक*
*चवथे अर्गें धरणी मातेक*
*पांचवे अर्गें पांच पांडवांक*
*सवें अर्गें सुर्यदेवाक*
*सातवे अर्गें आवय बापायक*
*आठवे अर्गें मांय मावांक*
*णवें अर्गें नवदुर्गेक*
*धावे अर्गें सिता सावित्रीक*
*इकरावें अर्गें ब्रह्मगायत्रेक*
*बारावें अर्गें कुंतीक*
*कुंतीचे पुत्रफळ*
*ही देवा सुकृत फळ, जल्मो जल्मी सुख आनी सौभाग्य फळ.*

अशें म्हणून बाराची चुडी आयताराक घालताली. भोंवतणी आपली भांगराची माळ घालताली. आयतारा पांचाची एक चुडी आंबाड्यार माळताली. कापरा आरत दाखोवन गोडा कुडक्याचो निवेद्य दाखयताली. उरिल्ल्यो चुडयो घेवन आंगणांत येताली.

गंधफूल, चुडी मळबाकडेन पळोवन सुर्याक दाखोवन तुळशींत दवरतालीं. एक रांदनीचेर आनी एक बांयचेर. श्रावण आयताराच्या निमतान सगळ्यांचो मान करप.

मागीर तयारी जेवणाची. प्रसादाच्या जेवणाची. शित, वरण, मुगां गाठी, भाजी, फोडी आनी म्हत्वाचे म्हळ्यार गोडशें. पयल्या आयताराचें गोडशें मुटले. तांदूळ धुवन सुकोवन दळिल्ल्या पिठाचे मुठले. गोड, सोय, येळां पिठो, म्होवल्या कुडके घालून केल्लें चून.

उबेक लायिल्ल्या पिठाचे गुळे तळव्यार थापून तातूंत चुन घालून बंद करप. लांबटशे गुळे करप. मागीर तांब्याच्या गडगंज सांदण धाकण्यांत ते उकडप. केन्ना काय आयताराक निवेद्य दाखयता आनी मुठले खाता अशें जातालें.

श्रावणांतल्या चारीय आयताराक वेगळें वेगळें गोडशें करपाची रीत आसा. हाचे फाटल्यान एक समज आसा. पयल्या आयताराक 'आयतार' भुरगो आसता. तेखातीर ताका मुठींत धरुन खेळपाक मुठले करतात. गोंयांत एक पद्धत आसा. ल्हान भुरगें मुठी वळपाक लागले की ताका मुठींत धरपाक उकड्या तांदळाची वा गंवा पिठाची गोड घाल्ली घट्ट मुठलीं करुन दितात. लांबट आकाराचीं हीं मुठलीं भुरगो हातांत धरुन चोखता.

तसोच समज आयताराच्या बाबतींत आसा. दुसऱ्या आयताराक तो घरभर पातळता, ताका घराची संवकळ जाता म्हणून पातोळयो. तिसऱ्या आयतारा तो व्हड जाता ताका घटमूट करपाक म्हणून गोड अन्न. निमाण्या आयतारा तो म्हातारो जाता, घट खाण ताच्या दातांक लागना म्हणून पोळे. रोसांतले पोळे. बरेंऽ गोड, येळां पिठो, घाल्ल्या दाट नाल्लां रोसांत बुडयल्ले मोव मोव पोळे.

समजा एकाद्र्या वेळा पांच आयतार आयले जाल्यार चवथ्या आयताराक तवसळी नाजाल्यार शाबू तांदळाचें हालउंडे करताली. साखरभाताचो केसरी रंग घाल्ले हालउंडे आमचे सामकें घोस्ताचें. खावपाक जेली कशे लागताले.

सांजवेळचो हो आयतार पावोवपाचो म्हणून एक दबाजो आसतालो. आवय पाटासकट पुजिल्लो आयतार घेवन आंगणांत येताली. आमी फाटल्यान घांट वाजयत आनी प्रसादाचे ताट घेवन. चड करुन पिपरेच्यो वाटकुळ्योच फोडी प्रसाद म्हणून आसताल्यो. निमाण्या आयतारा पंचखाद करताली. आयतार तुळशींत पावयताली. तांतूतलो बेडो आनी हळदीकूट काडून दवरताली. चारीय आयतारा तेंच वापरताली. दुसरे दिसा मागीर तो आयतार घरार उडयताली.

निमाण्या आयतारा फाटल्यान एक दोन दिसांनी श्रावण म्हयनोय सोंपतालो आनी चवथीची सुलूस लागताली. तय, चवथ. पंचम, तीन दिसांचो उत्सव. तये पयले दिसा सवायशीण बायलो रातच्यो माथ्यार न्हातात. हाका बियेचे न्हाण म्हणटात. हो आनीक एक आक्त. ह्या न्हाणाचो संबंद आयतार पूजेच्या हळदी कूटाकडेन आनी सुपारेकडेन आसा. हळदीकूट बरें झरोवन घेवप आनी तें आंगाक लावन न्हावप. मागीर तो बेडो फोडून तो सुपारे कुडको खावप. आनी प्रसन्न मनान तयच्या पुजनाक तयार जावप.

आतां हीं दृश्यां चित्रफिती पळयल्ले भशेन म्हज्या दोळ्यां मुखावयल्यान झरझर करुन वतात. तेदेवेळचो तो काळ, तीं मनश्यां, तीं घरां, तीं मागिलदारां... हय, आतां हांतूंतले खूबशें बदल्लां. पूण हें श्रावणांतले आयतार हांवें काळजांतल्या शिरतेर सांसणां खातीर पुजून दवरल्यात.

संपर्क: 9850530152



# मायेस्त माई

**मुकेश थळी**



माई अकस्मात गेली. माचये वयलो खेळ रंगल्लो आसतना अचकीत तिणें एग्झीट घेतली. उरल्यात तिच्यो असंख्य यादी. वासाळ. म्हाड्डोळच्या म्हळ्यार माईच्या कुळारच्या जायां वरी.

हात पांय धोलतात अशे चलता भोंवतनाचे स्थितींत आपूण गेल्यार पुरो, अशें ती सदांच म्हणी. आपणाक त्रास ना, दुसऱ्याकूय आपले त्रास ना हो हाचे फाटलो हेत. भगवंता वयल्या अटळ विश्वासाक लागून आनी तिचे भक्तीचे शक्तीक लागून माई अळंग अचळय अनंतांत ईश धामांत गेली.

दानत, दिवपाची वृत्ती, मना पसून, प्रेमान, करुणेन दोन बरीं गोड उतरां ती दिताली. माई कडेन हीं मायेस्तपणां ओतप्रोत भरिल्लीं. दी दी दिवप. वांटप.

प्रियोळा रावतालीं तेन्ना रवीन्द्रबाबांचीं तिनूय नातरां आमगेरूच आसतालीं. माई, माई करीत. एक दीस तातोन म्हाका हांसत सांगलें - हांकां तिगांकूय माईन केल्यात मरे संवयो. लाडवांचीं फोलिणां उकतीं करून खावपाची मेकळीक दिल्या.

तीं नातरां हांव तातोगेर केन्नाय गेल्यार व्हडल्यान आज्याक उलो करीत आपयतालीं - ताती, माईलो पूत आयला रे. म्हजी वळख माई वेल्यान. वा!

आमी टूरार वतकच हॉटेलांत रावतालीं. फाल्यां वचपाचें जाल्यार माई आजूच नोटींच्यो कवळ्यो वेटरांक टिप दिवपाक दाळून दवरी. आमच्या मजल्या वयले जालेच. दिसता ते सगळे वेटर, सॅक्युरीटी गार्ड धरून.

आमगेर एक नुस्तेकान्न सकाळींच येताली. माई तिका पयलीं ब्रेकफास्ट दिताली. एकेकदां आमी मागीर घेवप. नुस्तें घेवपाचें आसूं वा नासूं. नुस्तेकान्नीची बडदास्त साग्रसंगीत जाताली.

ब्रेकफास्टांत दर दिसा विविधताय. एक दीस पोळे, एक दीस चपात्यो, फुलके, रोटयो, एक दीस नाचणें-कांदो हांची भाकरी, एक दीस कांद्या फोव, एक दीस तवश्याची भाकरी, एक दीस सँडवीच, केन्नाय इडली सांबार अशी मोटी विविधताय. लावपाक गोड लोणचें, हालवो, चटणी. फोव आसल्यार वयर बारीक शेव. तो सोंपचे आदींच ती हाड म्हूण याद करी. एक दीस मातसो कमी दर्ज्याचो हाडला म्हूण तिणें म्हाका शिटकावणी दिली.

रांदचेकुडीक सुगरण, अन्नपुर्णा माईचो सहवास आवडटालो. माई भितर वतकच आ हा हा हा... तरांतरांचे अशे घमघम आनी वास भायर आमच्या नाकांतल्या रंध्रांरंध्रांत भरून वच्चे की केन्ना काय ते जिनस सेवन करतां अशें जावचें. ''बरें जालां गे...'' म्हणटकच ती मंद स्मित हास्य करी. माईच्या रांदपाचे कलेचेर, जिनसांचेर हांवें 'उदरभरण नोहे' हो वेगळो लेख बरयला.

कितल्या जाणांक खावपा जेवपाक दिवं होच माईचो ध्यास. म्हज्या मित्रांक हांव तिणें केल्लीं लोणचीं आनी हालवे वेळोवेळ पावयतालों. केन्नाय फ्रायड रायस आनी पुलाव. सगळीं जाणां याद काडीत आसात. दर वर्सा पावसांत अमक्याक म्हाड्डोळच्यो जायो पावय, तमक्याक नाचण्यांचें सत्व, हाका धोणस, ताका तवसळी पावय हो तिचो आग्रो आसतालो. तिच्या सांगातांत जो जो आयलो तो तृप्त जावचोच.

माई वांगडा आमी देशांतल्या चडशा शारांनी भोंवलीं. दिल्ली, मुंबय, बंगळूर, चेन्नय, हैदराबाद आनी हेर. विदेशांत ती आयलिना. पूण तुमी वचात म्हूण आग्रो केलो. आपूण एकली भावा वांगडा १५ दीस रावली.

कांय वर्सां आदली गजाल. आमी चेन्नय टूर सोंपोवन दाबोळे येवपाक भायर सरलीं. सदचे भशेन फ्लायटीर मुखावेल्यो दोनूय एअर हॉस्टेसी माईक तेळीत आशिल्ल्यो, हें म्हजे नदरेन तेळ्ळें.



विमान प्रवासांत माई सहसा वॉश-रूमांत वचनाशिल्ली. त्या दिसा वच्चें पडलें. म्हजे भयणीन आनी हांवें एअर हॉस्टेसींक विनंती केली. तिका मातशी मदत करशात? कारण भायल्या वातावरणाक लागून विमान मातशें हालतालें. तांणी दोगांनीय तिका आनंदान, अपुरबायेन व्हेली आनी हाडटा आसतना तिचे पोले सांसपिले. तिचे फोटे घेवं? म्हाका कॉमीकूचशें दिसलें. घेयात, हांवें म्हळें. दोगांय सुंदऱ्यांनी माईक घट्ट धरून सॅल्फी काडली.

माई गोरीपान, आंगभर एक कांती. प्रसन्न हांसतें मुखामळ हाची त्या सुंदऱ्यांनी तोखणाय केली. तुजी आवय? हांवें म्हळें - हय.

आवयचें बाह्य सौंदर्य आनी लावण्य म्हज्या तोंडार ना हें तांणी पारखिलें. खंय गा माई आनी खंय हांव.

दिव्य, भव्य मनीसपणाचें प्रेम ही एक सुंदर भावना. तें जितलें काळजांतल्यान दितले ताच्याकूय कितल्याशाच पटींनी परत आपणा कडेन येता. व्यर्थ वचना. प्रेमाचें स्वरुपूच तशें. माई विश्वप्रेमरुपी मंत्र आनी जिणेशैली जगली. तिणें अपमान विसरून, दुख्खां मट्ट करून गिळून, अरिश्टांच्या वादळांक धिरान तोंड दिवन सगळ्यांचेर प्रेम केलें. ''है प्रेम जगत में सार, और कुछ सार नहीं,'' अशें एका संतकवीन म्हळां.

कबीराचें एक सशक्त वाक्य आसा. ''ढाई अक्षर प्रेम का, पढे सो पंडीत होय.'' तें भगवंताचें प्रेम आंगांत विकसीत केलें जाल्यार ती अनुभूती पुरो. पुस्तकां पाठवपाची गरज ना. भगवंताच्या प्रेमान भरलो तो खरो पंडीत, अशें कबीर म्हणटा. माईक नियाळटकच ह्या वाक्याचो अर्थ आमकां होलमचो.

गुरूभक्त, दत्तभक्त माई तिळसांजची केन्नाय घरांत धूप घालताली. धुपाचो भक्तीमय परमळ घरभर दरवळटालो. तिच्या प्रेमाचो संचार लेगीत असोच घरांतले हवेंत आसमंतांत दाटायेन भरून आनी भारून उरतालो. कोणूय आमगेर येता ताणें म्हणचें - तुमच्या ह्या घरांत येतकच

बरें दिसता. वेगळींच व्हायब्स फिल जातात. माईन रोयिल्लीं हीं कंपनां येत्या-वत्याच्या अंतरंगांत थेट रिगतालीं हाचीच ती गवाय.

माईक ल्हान भुरगीं खूब आवडटालीं. शेजारचे स म्हयन्यांचे गुळे लेगीत. तांकां धरून ती तांचे कडेन उलयताली. तांकां बऱ्यो खबरी सांगताली. गितां गायताली. आल्लयो म्हणटाली. भुरग्यांक तिची भाशा आनी संवाद कळटाले. माईक तांचे कळटाले.

शेजारचो एक भुरगो ल्हान आसतनाच्यान माई म्हऱ्यांतूच आसतालो. रातचो अकरा जाय मेरेन तो माईचे खाटीचेर उडयो मारीत रावतालो. मागीर तो उलोवंक लागलो. ताका माई उच्चार जमनासलो. बाई म्हणटालो. मागीर बाईआजी म्हणूंक लागलो. एक दीस हांवें मजा केली. 'बाईआजी माझीच आहे,' अशें म्हणून माई म्हऱ्यांत वचून बसलों. घे हाणें मोट्या मोट्यान रडूंक सुरवात केली. मागीर हांव उठलों, ताका सांगलें, 'बाईआजी तुझी एकट्याचीच रे बाळा.' मागीर तो माईक पांखून बसलो.

माई ताका संत्रां, मोसंबी सोलून दिताली. बदाम दिताली. नुस्तें आवडटा म्हूण ताका तळिल्लें नुस्तें दिताली. उंडयो लायताली. माईली नाल्लाची कडी ताका खूब आवडटाली. तो कली म्हणटालो. तीं दुसऱ्या कडेन रावपाक गेलीं. थंय आवयक तो सांगी - मला बाईआजीची कली पाहिजे. माई केन्नाय ताका ताचे आवडीची कडी (कली) करून धाडटाली.

माईचीं फकांडां केल्यांत तितलीं हांव कोणाचींच करूंक शकना. तिका हांवें कितलींशींच नांवां दवरिल्लीं. माई अशें लोकां मुखार म्हणचें. बाकी हरशीं उलो मारप ह्या म्हज्या विचित्र नांवांनी. मस्करी ह्या उतराक ती बागण्यो म्हणटाली. मुकेशाल्यो बागण्यो चड जाल्यो आतां आं, अशें शिटकायतली.

आवयचें काळीज आसल्यारूच तुका मरें तें कळटलें, अशें तिणें म्हाका कांय प्रसंगां वेळार म्हणचें. आवयचें वात्सल्य, मातृत्व, आवयचें भुरग्यां वयलें प्रेम ह्यो खूब पवित्र गजाली. आवय म्हळ्यार एक पवित्र महन्मंगल स्तोत्र अशें म्हळां. प्रेमसागराचो स्रोत अशें आवयक म्हळां. आमच्या भाग्यान आमकां अशे सुंदर आवयचें छत्र मेळ्ळें.

माई आयज शरीर रुपान ना. पूण मायेस्त माईचीं प्रेमसागरांतलीं ल्हारां ल्हवपीकपणान अळंग येतात, म्हाका पोशेतात आनी कानांत सांगतात, प्रेम करीत राव आं... अखंड.

माई म्हळ्यार proverbial 'श्यामची आई'तली आदर्श आवय कशी, अशें म्हजो मित्र शैलेंद्र मेहता म्हणटा. आसत घडये माई ही श्यामची आई भशेन सुंदर आवय. पूण हांव मात श्याम न्हय आं. माई म्हळ्यार सद्गुणांची खाण. सात्विकतेन, अनंत सोंशीकपणान, चंदना वरी झिजून तिणें सगळ्यांक आपल्या मुखावेल्या टवटवीत हांश्यान सदांच निव्वळ आनंद दिलो.

हांव खंयूय केन्नाय गेल्यार खूब लोक लागीं येवन पयलो प्रस्न करी-

''माई कशी आसा रे?''

म्हाका अजाप दिसचें. म्हजी खबर विचारीच ना. माईचीच विचारतात म्हूण.

आतांय सदचे भशेन तें वाक्य तांच्या ओंठांतल्यान निस्तलें आनी तांणी विचारलें जाल्यार हांव म्हणटलों - ती ईश्वराच्या परम धामांत विसावल्या. शरिरान घरांत ना. पूण म्हाका प्रेरीत करीत आसा. म्हजी ही यात्रा सुलभपणान सहजपणान मुखार वचत आसा ही तिचेच कृपेक आनी सासायेक लागून.

जिणेच्या रंगमंचाचेर माईन सगळे पार्ट जबाबदाऱ्यो निभायल्यो. भुमिका गडगडायली.

रंगमाचयेर अभिनेत्यान graceful entry म्हळ्यार सणसणीत प्रभावी प्रवेश घेतलो अशें खूब जाण म्हणटात. माईन धर्तरे वयली आपली भुमिका चोख निभायतना, अकस्मात graceful exit घेतली अशेंच आमकां दिसता.

पार्ट करतनाय ताळयो पडत आशिल्ल्यो. ती गेली, पड्डो पडलो तरी ताळयांचो गडगडाट, कडकडाट चालूच आसा.

एक हिंदी शेर आसा.

*जिंदगी में इतनी शिद्दत से*
*निभाना अपना किरदार....*
*के परदा गिरने के बाद भी*
*तालियां बजती रहें.....*

संपर्क: 9545827662





# ताळये कणकणीं फुलला शंकर

**उल्हास पै रायकार**

हय, शंकर म्हळ्यार शंकर भांडारी आपल्या कवितेंत असोच फुललो. ताचें कारण म्हळ्यार ताणें ऋणानुबंध मानले. ऋणानुबंधांतल्यान आयिल्ली लागणूक मानली. पूण बंधन कसलेंच मानलें ना. ना झाडाचें, ना पानांचे. फुलप हो ताचो मूळ सभाव आशिल्लो आनी मूळ सभाव मनमेकळेपणान उक्तावप हीच आपली लागणूक अशें तो घडये मानतालो आसूंक जाय. ह्या आंतरीक व्यक्तीमत्वाचो परिणाम ताच्या साहित्याचेर आनी पर्यायान कवितेचेर जाल्लो दिश्टी पडटा. थोड्याच बरपांत लेगीत आमकां आख्खो शंकर दिश्टी पडटा.

लिओ टॉलस्टॉय लेखकांक सांगता, 'Never write about what you yourself find uninteresting' - तुमचें चित्तूच ओडून घेना त्या कित्याचेरुच तुमीं बरोवंचें न्हंय. शंकरबाबान हें तत्व आपणावनूच बरप केलें. म्हाका रुचीचें न्हय आनी म्हज्या चित्ताक मानवना ताचो हांव आस्वाद घेना. कवितेचो रसीक म्हूण हांवे हेंच तत्व पाळप सभाविकूच. देखून तेच नदरेन हांव शंकरबाबाची कविता पारखितां.

शंकरबाबाचो 'शंकराचीं फुलां' हो एकूच कविता झेलो उजवाडाक आयला. तोय बी तो ह्या संसाराक अंतरल्या उपरांत. हांवे ताका लागशिल्ल्यान आयकला आनी पळेला. देखून ताची कवितेची रुच घेतना ताचें व्यक्तीमत्व हांवे कवितेंतूय सोदप सभाविकूच. कारण कवितेंत उक्तें जाता तें कवीचें आंतरीक व्यक्तीमत्व.



प्रवाह हो कलाकाराचो प्राणस्वर आशिल्ल्यान साहित्यात वेगळ्या वेगळ्या काळान वेगळीं वेगळीं रुपां दिल्यांत. पयलींची कविता तंत्रान बांदिल्ली आसताली. उपरांत गद्यकाव्यां वांगडा मुक्तछंदूय आयलो. मागीर ते कविंमदीं तंत्र शिकपाचो वाज आयिल्ल्यान जांव. नाजाल्यार विचारांच्या वेगाक लागून आसूं. एक खरें, खंयचेंय तंत्र जिणेच्या वेगाक लागून बदलता. कवीच्या कवितेची आकृतीय बदलता. शंकरबाब ताका आडवाद ना. सुरवेच्यो तांच्यो कविता चार चार ओळींच्यो जांव तशीं कडवीं आशिल्ल्यो. पूण ही आकृती तशी मागीर उरुंक ना.

ताणीं एकेकडेन सांगलां - बरोवंक बसपाक जी मनाची थंडसाण आनी सोंशीकपणा लागता, ती म्हजेलागीं ना. हांव वरांचीं वरां उलयन पूण जेन्ना बरोवपाची सक्ती जाता, तेन्ना निरुपायान लिखणी हातांत घेवंची पडटा. हाकाच लागून घडये तांच्या कवितांनी आकृती सुबद्ध करपाक, जांव उतरां घोटीव करपाचो रियाज तांणी करुंक ना तें कळटा. देखून बरो आशय आशिल्ल्यो तांच्यो कविता मनांत अळंग रिगूंक जाय तश्यो त्यो रिगनात. पूण तरी आसतना ताच्या उतरांक एक भितल्ली लय आनी ठहराव आसा, ताका लागून ती कविता सट्ट करुन आमच्या वेंगांत येता.

शंकरबाबाक एकटेपणाची खर जाण आसा आनी तातूंतल्यान बंधन विरयत वृत्ती तो जागयता. 'म्हजी वाट' हे कवितेंत तें पुरायेन समजता. ताच्या कवितेचो घाटूय हांगा स्पश्ट दिसता. पळेयात -

*ही वाट खासा म्हजी*
*हांवेच ती सोदून काडल्या*
*म्हज्याच पावलांक ती फुटल्या*

हरशीं वाट फुट्टा थंय वचपाची वृत्ती आसता, पूण हागेली वाट पावलांकूच फुटल्या.

*जैं जैं ती थारता*
*थैं हांव रावतां*

अशें तो म्हण्टा तेन्ना वयलेचाराक तें विरोधी दिसता. पूण हांगा पयलींच आपलीं पावलां आनी वाट हाचें एकत्व सादलां. हे वाटेकूच तो फुडें आपल्या 'जिविताची नाट' म्हण्टा हें म्हत्वाचें. आपलें वागप आपुणूच थारायतां ताका लागून आपूण, आपली करणी आनी जिवीत कशें एकूच आसा तें तो वाटेच्या रुपान सांगता. आपले वाटेर कोणेच खासा कांयच करुंक ना अशें सांगतना तो म्हण्टा.

*कोणेच हे वाटेर*
*प्राण ओंपूक ना*
*फुलां झडोवंक ना*

हो निर्शेणेचो स्वर न्हंय तर स्वतंत्रताय सांगपी स्वर. मुखार आपलें अनुकरण कोणेच करचें न्हय ही सांगपाची ताची तरा पळेयात -

*कर ना ताका डर कसली*
*देखून तुमकां शिटकायतां*
*आड वाटेन तूं म्हजी फाट*
*धरुं नाका*

*इतल्याच खातीर*
*चलतलो तो पावतलो*
*तूं मात शेण्टलो.*

हे कवितेंत शंकरबाब सांगूक सोदता ते हें - 'हांव आनी म्हजी वाट वेगळी न्हंय. हांव म्हळ्यारुच म्हजी वाट आनी म्हजी वाट म्हळ्यारुच म्हजी जीण.' अशे तरेन आपलें व्यक्तीमत्वूय ताणे ह्या कवितेंत मांडलां.

आंगांत सुबद्ध लय आसप हो सैमाचो आशिर्वाद. बरोवप्याच्या लयेचो ताणे बरयिल्ल्या उतरांतल्यान आविश्कार जाता. सैमाकडे स्वर जुळयतना ह्या लयेची सुंदरताय उतरांनी कशी रंगता ती पळेयात. 'आयलो पावस' हे कवितेची सुरवात -

*आयलो पावस आयलो पावस*
*शिडी शिडी शिडी शेतां भिजैत*
*कुपार कुपां वाडैत गाजैत*

*सैमाचें गायत जैत*
*पैलो वैलो आयलो पावस.*

हातूंतल्या निमणे ओळीन ताणें 'पैलो' (पयलो) हें उतर वापरलां ती कवितेची नाट. दुसरें खंयचेंय उतर घेनासतना ताणें 'पैलो' हेंच उतर घेतलां. ह्या एकाच उतरान पयलींच्या सगळ्या ओळींक एक ताजें आनी प्रसन्न रुप मेळ्ळां. पावसाची उमळशीक, अनंत नाद, अखंडपण, रुजवणांचे भिंग आनी पावसाक लागून सृश्टीक जाल्लो तृप्तीचो आनंद ह्या एका 'पैलो' (पयलो) ह्या विशेशणान रेखला. कितल्योशोच पाकळ्यो आनी वेगळ्या वेगळ्या रंगांची सया आस्पावल्लें सुंदर फुल एक नाजूक देठ पेलून धरता तेन्ना त्या देंठाक वेगळेंच व्यक्तीमत्व येता. तशें पावसाचें हें सप्तरंगी फूल 'पैलो' ह्या उतराच्या देंठान झेतान पेललां आनी ह्या उतराकूय वेगळें व्यक्तीमत्व आयलां.

अशेच तरेच्या लयेचो आविश्कार ताच्या 'गोमटें गोंय' कवितेंत आसा.

*मृदंगाचो बोल जसो*
*दुदाचो धसधसो*
*पानां-पोवनां मारता मोखून*
*वाऱ्या वांगडा पिंपळ पिसो...*

धबधब्याचें आनी पिंपळाचें एकठांय चित्र रेखप कवीकूच जमता. दोगांकूय एकठांय रेखपांत कल्पकताय आसा. धबधबो आनी पिंपळ हांच्या दोगांच्याय नादांत सलगपण आसा. पिंपळाच्या पानांची पोवनांकडे तुळा करुन, तीं मोखता म्हूण कवीन ताका अपुर्बायेन पिसो म्हळा. नाद आनी कृती वर्णून ही आकृती शंकरबाबान फिशाळपणान पुराय केल्या.

समाजाच्या अवस्थेचेर शंकरबाब सटीकपणान उलयता. गद्याक कवितेच्या आंगात आनी लयेन केळोवपाची कवीची कळाशी ताच्या कांय कवितांनी दिश्टी पडटा. गरीब बायलेगेर सोयरे आयले तेन्ना तांकां खावपाक दिवपाक तिचेकडे कांय ना. तेन्ना अशें जालें.

*सडसडीत बुडकुलो*
*खटखटीत तवली तिजी*
*आवडी बावडी घळसणली*
*करचें कितें समजलें ना*

मागीर बचकोभर आंशे तिका मेळ्ळे. ते तिणें कांडले तेन्ना..

*एकूय आंसो फुटलो ना गा*
*ओंठ दामून धल्ली तिडक*
*काळजाभीतर आयलें मोड*

तिणें रागान मुसळ मळबावशीं भिरकटावन माल्लें. मळब वैर वैर वचत रावलें आनी आकाशवाणी जाली.

*'आवडे सोयरे जेवचे ना*
*मनशा मळब मेळचे ना'*

ते गरीब बायलेचो संयम पळेयात. तिका तिडक येता पूण ती हिंसक जायना. देवाक उलो मारुन मळबावशीं मुसळ मोखता. मळबाक ती आत्मनिश्ठ मानता. अशे तरेन अर्मूताच्यो सया आशिल्ल्यो कल्पना आनी प्रतिमांची मांडणी खासा शंकराचीच.

कवीच्या मनांत एक समाजकारणी मनीसूय आसा. हांगा पयलीं दाखयिल्ल्या कवितेभायर हेर कवितांतूय तो दिसता. पूण उक्तावपाची तरा वेगळी. निखळ तर्क आशिल्ले चिमटे आनी नरम विनोद हो त्या कवितांचो आंगलोट. सत्तेची रुच लागिल्ल्या मनशांखातीर सुण्यांची प्रतिमा वापरुन कवीन तीं सुणीं बेसबरीं रंगयल्यांत.

*भोंकतात तीं सुणीं चाबनात*
*अशी जाण्टयांची म्हणणी*
*पूण चाबतात तींय चाट्टात*
*हो आमचो अणभव*

मनीस सभावाचो तांचो अणभव अशा तोंकाळ उतरांनी मोखून कवी सुण्यांचो मूळ धर्म उस्तिता. तांचें बंदेपण, खंयूय माल्ल्यार दाव्या पांयार कुटप, हाडाखातीर झगडप, धनयांप्रमाणे वागप, अश्या सगळ्या सभावांची विस्कटावणी ह्या कवितेंत बारीकसाणीन केल्ल्या. सत्तेचें व्यसन आनी ताका लागून सुण्यांच्या धर्मान वागपाची रीत, ताचो परिणाम तांणी सांगला. सरसकट सगळ्या लोकांक एकूच लेखनासतना मनांतले उत्फर्के, उत्कटतायेन आनी योग्य तरेन तांणे उक्तायल्यात आनी समाजाक अशेतरेन शिटकायला -

*समर्थाच्या सुण्याक*
*सगळे दितात मान*
*पूण सुणीच समर्थ जातात*
*तेन्ना कितें?*

सत्कर्माचें 'समर्थ' हें सुयोग्य प्रतिक घेवन त्या गुणाक विरोधी रुपान चाबडावपी हीन मनशाची क्रिया तांणी समर्थपणान सांगल्या.

दोट्टी अर्थान विशयाक आनी आशयाक खेळयत खेळयत, निमणें ताच्या मूळाक हात घालून सत् अळंगपणान विस्कटावपाची ताची कला 'गणाचें राज' ह्या कवितेंत दिसता. आमच्या देशाच्या स्थितीचेर केल्लो तो सटीक नियाळ.

गणाचें राज म्हळ्यार लोकांचें राज्य. लोकांचो मूळासावन संबंद आशिल्लें राज. गणपती होय आरंभाचो देव आनी ओमकार हें ताचें मूळ. देखून कवीन तोच माथाळो घेतला. हें राज्य आनी व्यवस्था ताणे गणपतीच्या बाह्यरुपान मांडल्या आनी निमणें ताचो ओमकार म्हळ्यार सताकडे तो गेला. प्रजेक गणराजाचें खरें रूपूच कळूंक ना हें तो सुरवेकूच सांगता.

*अठरा वर्सां जालीं आयज*
*गणाचें आयलें राज!*
*कोण गणा?*
*कोण जाणा!*

फुडें मुखार...

*अकाराची आसरमांडी*
*भकाऱ्याची पोटागोंडी*
*ब्रम्ह जरी गिळ्ळें हाणें*
*मात पूण तोडशेना*

गणराजांत सत्तेवयले कशे लोकांचें आयकनात आनी केन्ना मात्शें आयकतात तेंय कवी सांगता.

*सुपायेदे कान जरी*
*केदयोंय बोबो मारल्यो तरी*
*मात्शी हिंसा केलेबगर*
*आमचो गणा बाडगना*

निमणो कवी मातयेभरवण जाल्ले वेवस्थेचें कारण सांगता -

*ॐकाराचें रुप खैं हे!*
*गणराजा गणपती*
*तिनूय मात्र गावल्यो तरी जरी*
*अर्द मात सांपडना*
*देखून घडये गणराजांत*
*खिणाखिणाक आवर्शणां.*

आमकां अजून अर्दमात्रा मेळना म्हळ्यार मूळ नाटूच मेळना हें सत कवीन ओमकाराच्या संकल्पनेंतल्यान सांगलां. गणाचें राज उजू मार्गान चलोवपाचो 'राज' अशा अपरुपाच्या माध्यमांतल्यान कवी परगटायता.

मोगाचे खीण वेंचतना ते निसरप, अशी अवस्था कवीन खुबूच सुंदरतायेन मांडल्या. ताका दाद दिवप म्हळ्यार मोन्यानी...

*विसरायेर घालतां घालतां*
*विसरन हांव विसरचेलें*
*जीणेचे कसरतींत*
*सरमेर निसरचेलें.*

तशें, शंकराच्यो सगळ्यो ताळयो मूयेच्या धर्मान फिरपाक खूब काळ लागतलो, जरी तो म्हण्टा...

*तूं सगळो ताजोच जा..*
*मागीर पळे कितली मजा!*

जीणेच्या सगळ्या आंगाक स्पर्श करीत वतना शंकरबाब आपलो मूळ स्वर विसरुंक ना. ती म्हळ्यार सताची 'आराधना'. देखून थंय तो असो फुलाळता.

*ताळये कणकणी फुलला शंकर*
*वनाक जणू आयज लागलो उजो*
*ताळ्याक लागला तुजोच तानसर*
*ऋणानुबंध हो तुजो - म्हजो.*

संपर्क: 7507441344







# भंयमाळ

# कथा

रामनाथ ग. गावडे

कोविडाच्या त्या भिरांकूळ वातावरणांत जशें सगल्यांकूच सुतक आशिल्लेवरी सबंद वाडो फाटले तीन दीस चिंतेस्त दुखेस्त जाल्लो. हरशीं वाड्यार वेगळे वेगळे जातीचे लोक आसले आनी मेल्लो एकलोच. पूण सुतकी प्रत्येकाच्या घरांत आसली. सगलेच दुबावान आनी हुस्क्यान नाकां तोंडां बांदून, तकली मुंगरुन बिळांत लिपिल्लेवरी पांगरुनशे बशिल्ले. शेजाऱ्यांगेर, एकामेकांगेर वचपाचें सोड घरांतल्याय मनशांपासून पयसूच रावताले. भंयभीत जावन बरे धडधाकट मनीस लेगीत वायटकार कशे दिसपाक लागिल्ले.

तर जालें किदें;

वाड्यावयलो जगू रातीं उसरां भायर पडलो, तरी ही खबर काळखी आसूनय वाडोभर जाल्ली. पूण ती गजाल वाड्याभायर फुटचीना हाची प्रत्येक जाण जतनाय घेतालो. ताका कारणूय तशेंच आसलें. ह्या दिसांनी जो कोण खंयूय मरता ताची तपासणी केल्या उपरांत तो कोरोनानूच मेला असो दोतोर रिपोर्ट दिता. मागीर ताची कूड घरच्यांचे सुवादीन वा घराकडेन व्हरपाक दिनासतना ताका ते लायटीचेर लासून मुठभर गोबोर दिता अशी वचत थंय फाम जाल्ली. त्या खातीर ताचे मरणाचें कारण दुबावाचें आसूंनय कोणूच जोखीम घेवपाक तयार नासलो.

जगू मरुन गेल्लो खरो. पूण मरणाचें कारण प्रस्न चिन्ह जाल्लें. ताची बायल तर भानारुच नासली. ती एक विचारल्यार भलतेंच सांगताली आनी रड रड रडटाली. चार शेजाऱ्यांची तोंडां चार गजाली उलयतालीं. एका अशा कारणाचेर कोणूच 'सा' जायनासले. चोंब्या-चोंब्यांनी गजालींक मात नेट चडटालो. आनी दीस जायसर वाडो जागोच आसलो.

"फाटले चार दीस तेका रातचोच जोर येतालो खंय."

"फकत जोरुच न्हू. हाग-ओकूय लागलेली."

"तेका थंडी जाल्ली म्हण्टा. पूण म्हाका ती सादी कशी दिसना."

"आरे, तेका टिबीचे आसलें. तो कामणीचेंय वखद घेतालो खंय."

"च्चे! तें कांय न्हू. तेजी लक्षणां आयकल्यार तेका कोरोनाच जाल्लो."

"वग्गी रावात. किदेंय उलयतले? हेतूंतले तेका कांयच जांवनासलें. काल पयर मेरेन तो बेस बरो आसलो. भाटांत कामाकूय गेल्लो. निमणी तेची जाल्ली गत पळयल्यार तेका हार्ट-ॲटेकूच येयल्लो आसपाक जाय. रातीं मध्यानेर तो संडासाक गेल्लो थंयच पडलो, तो मागीर उठलोच ना. अवचीत तेचे बायलेच्यो हुयेली आयकून आमी धांवले. उदक मारलें. कांदो चिड्डीलो. पूण तो आदींच थंड पडलेलो."

"कोणय किदेय म्हणू, तेचें मरण दुबावीच आसा. त्या खातीर रिस्क घेवप समा जांवचेना. तेचो पोस्टमार्टम जावप गरजेचो आसा."

"चल चल तर, आनी आनी वेळ नाका. सोमतो हॉस्पिटलाक फोन लाय."

"किदें फोन लाय? आं! किदें फोन लाय?"

एका जाण्टेल्याचें कडलें, "तिरायतांनी येवन तेज्या मड्याची वाट लावपाक तेका किदें गांवात हुंवाळून वडयल्लो? तेका भुरगीं-बाळां नासत. पूण तो किदें सामकोच बेवारस न्हू. हो वाडो तेजो. ह्या वाड्यावयलो एकलोय तेज्या रगताचो नासलो तरी, वाडेकारांच्या उल्याक तो धांवोन गेला. येळा प्रसंगार कोणाकूय हात बोट लायलां. तेज्या त्या मड्यांत आतां मनीस उरलोना, पूण तुमच्या आंगांत थोडें तरी मनीसपण आसा काय ना रे!"

"बाप्पो, आमी तशें म्हणीना. पूण हो वेळ-"

"आरे, वेळ-काळ माल्ली झक! जगार कोरोना मातला म्हणोन तुमी भंयान गांवचें



गांवपण होगडायतले?''

''एकल्या खातीर गांवपण सांबाळ्ळ्यार सगलो वाडोच त्रासांत पडटलो.''

''कोणाकूय कांय जांवचेना. ह्या वाड्याची खुटी किदें उखलापी ना! आनी ह्या गांवच्या पांचूय पुरसांक उबे रावचेच पडटले. तशी ह्या जगूची पुण्याय आसा. आनी ह्या वाठारांतल्या देवा-देंवचारांक जर आपणावयल्या भावार्थाची परीक्षा नाका जाल्यार सगल्यांक सांबाळचेच पडटले.''

''बाप्पो, सद्या तो भावार्थ- बिवार्थ मातसो कुशीक दवरुंया. हांव किदें म्हण्टा, तेजो जर रिपोर्ट नेगेटीव येयलो जाल्यार हुस्कोच ना. पुणून समज पोझेटीव येयलो जाल्यार-''

''त्रासांत पडटले ह्या भंयान तुमी गांवचे मरण तुमी बेवारशी करुंक सोदतात? ह्या वाड्यावयले लोक सामकेच पडमूर जाले रे! गांवच्या गांवपणाचेर तुमी कशे रे परतले? तुमी कोणूच जर तेका हात लावपाक तयार ना. जाल्यार हांव तेका वेंग मारतलो. म्हाका खंयचो कोरोना खाता तो खांव. कोणूय येयना जाल्यार हांव एकलो तेजें सरण दाळटलो आनी तेका अग्नीच्या सुवादीन करतलो.'' अशें थरथरत तिडकीनसो उलयलो आनी नेटान चलत रावलो.

तेन्ना ताका समजयतले बुदवंत ओगीच पडले. आतां मुखार किदें करचें तेंच कळनासलें. चोंब्या-चोंब्यांनी जातली गर्दी वाडत आसली आनी आतां दिसूय वयर आयिल्लो.

इतल्यान गांवचो पंच स्कुटर घेवन नेटानसो आयलो आनी सगल्यांमदी रावलो. तशे ते सगले चोंबे ताचेभोंवतणी जमले.

''आरे, तुमी सगले वाटेरुचशे किद्याक, जाली सगली तयारी?''

''भाई, प्रस्न बिकट जाला. तेका कोरोनाची लक्षणां आसलीं. त्या खातीर आमी तेजी टेस्ट करुंक सोदी. पूण हे जाण्टेले भलत्याच हट्टाक पेटल्या'' अशें म्हणून ताका सगली गजाल सांगली. तेन्ना तोय चिंतेंत पडलो.

पुणून रोखडोच उलयलो, ''तेका हॉस्पिटलांत व्हरोन सगले तेज्या फाटल्यान नाचच्या परस आमी किदें तें तेजें हांगाच करुया. जें सामान आनी कीट बी किदें जाय तें हांव सगलें घेवन येता. पुणून हांव येयसर तुमी कोणूच तेका हात बी लावनाका.''

''ना ना. कोणूच तेज्या फुड्यांत वचोना. बायलेकूय कुशीक दवरल्या. जीं कोण सोयरी येयल्लीं तीं भायल्या भायर परतल्यां. पुणून भाई, ही येदी व्हडली रिस्क -''

''गांवाक जाय तशें जातलें जाल्यार रिस्क घेवचीच पडटली. आनी भिवपाची तशी गरज ना. तो मेला रातीं. आनी मेल्ल्या मनशाचो तसो चड बादिकार जायना खंय. बरें, हांव रोखडोच येता. किदें करपाचें तें हांव येतकरुच करुंया...'' अशें म्हणून पंच फाटल्यान कोणाक तरी बसयलो आनी नेटान किरयलो.

ताणे भिवपाची गरज ना म्हणलें खरें. पुणून प्रत्येकान भंयान आपापली मास्कां सारकीं केली. आनी वगीच एकामेकापासून पयस पयस रावपाक लागले.

जाण्टेल्यांनी भायली, मसंडेंतली सगली तयारी केली. पुणून हात लावनाका म्हण सांगलां. त्या खातीर सगले ताची वाट पळयत तिश्टताले.

बरोब्बर साडेबारांक तो कसली तरी गाडी घेवन आयलो. येतना जायते कापेतीचे कपडे, वखदां बी हाडिल्लीं. वांगडा खाशेले दोग मनीस आसले ताणींय सगली किदें ती वेवस्था केली.

पयलीं पयलीं सगलेच भियेवन पयस पयस रावले. पूण आपूण ताच्या मरणाक फाटीं रावल्लो अशें दुसऱ्यांक दिसपाक जायना म्हण आतां सगलेच भियेनासतना मुकार येताले. जणू काय मनांतले दुबाव आनी हुस्के आतां आपशीच पयस जाल्ले. एकेकल्याचो हात लागता तशें एक एक जायत गेलें. ताका उबारपाक आनी पावस आयलो. पूण कोणूच रावलोना. सगल्यांक भूक लागल्ली. तेच गडबडीन ताचें मरण केलें.

सगलें करुन आपापल्या घरा परतल्ले खरे. पूण पावसान भिजयल्ल्यान आनी येवन थंड उदक न्हाल्ल्यान तांकां शीं खावपाक लागिल्ले. त्या खातीर प्रत्येकाच्या मनांत भंय आनी दुबाव वाडत आसलो. रात जाता जाता कोणाक शिंको येवपाक लागल्यो, कोणाचें नाक व्हांवपाक लागलें, तकली उसळपाक लागली. जाल्यार कोण ओगीच जोरसो आयला म्हणपाक लागले.

दुसरे दिसा हीं सगलीं कोरोनाचीच लक्षणां अशें समजून एकेकलो अळंग आरोग्य केंद्रावर वचपाक लागले. पळयल्यार अर्दोसो वाडोच तपासणी करपाचे लायनीक राविल्लो. तेन्ना ते वगीच दपट्या आवाजान एकामेकाचेर किंचकिंचताले. आपूण भियेना म्हण्टाले तेच मुकार आसले.

जालें. सगळीं सॅंपलां दिवन आपापल्या घरांनी मुंगरोन, मोबायल दोळ्यां मुकार दवरुन रिपोर्टाची वाट पळयत रावले. पुणून चोवीस वरां जावन चवतीस वरां जालीं तरी कसलीच मॅसेज येवंक नासली. चिंता वाडटाली तशीं लक्षणांय भिश्टेयतालीं आनी भंयान थरयरो!

इतल्यान बोवाळ जालो. वाड्यावयले कोणतरी पोझिटीव आसा असो रकाद आयला. तें आयकून सगलेच भियेले. पूण कोण ते कळनासलो. दुबावाची घरां मात अदिकूच मोटी जातालीं. त्या खातीर फोन करुन करुन दुसऱ्या वाड्यार रावतल्या पंचाक बेजार केलो. ते रातीं तर कोणाकूच सारकी झेम पडली ना. पंच, जाण्टेले धीर दिताले. पूण भियेल्लें मन कशेंच थाऱ्यार येनासलें. वाफ, कसाय... कोण सांगता तें तें करीत रावले आनी खरेच दुयेंतीशे जावन पडले.

सगल्यांची तपासणी आयकून दुसरे दिसा पंच आनी घराकडेन रावलो ना. बद्द हॉस्पिटलांत गेलो आनी हाका ताका सांगून रिपोर्ट बेगीन मेळपाची वेवस्था केली. तरीय रिपोर्ट येता म्हणसर दोन जालीं.

रिपोर्ट पळोवन सगल्यांनी वांगडाच सूऽऽ केलें. सगलेच नेगेटीव आसले. पूण काल पोझिटीव कोण आसले तर? हो प्रस्न तसोच आसलो. तेन्ना कळ्ळें, वाड्यावयलो वसंत जो वास्को रावतालो तो आनी ताची बायल म्हण. ताणें पत्तो हांगाचो दिल्लो म्हूण घोळ जाल्लो. उपरांत आपशींच सगल्यांची मनां ल्हव जालीं, दुयेंसूय पळ्ळें. तीन दिसां उपरांत शेळें उदक उमेदीन न्हावन सुतक सोपयलें.

संपर्कः 7030359235








# एकशें आठ!

प्रणिता प्रताप रेडकर



कांय दीस पयलीं मां बरी ना जाली. काळजांत चडूंच किसरां मारता म्हणून पयलीं पर्रा दोताराच्या क्लिनीकांत गेलीं. फॅमिली डॉक्टर असो न्ही, पूण आमकां मात ताचो हातगूण लागता म्हण. एकदाची थंय पावलीं. पळयत जाल्यार दोतोराचे क्लिनीक बंद. मां गाडयेवयल्यान देंवली आनी तिणे थंयच क्लिनीका कडेनच बसकण मारलीं.

"बाय, जायना गो म्हाज्यान... बाय, बाय" करून काळीज दामपाक लागली. इतल्यान थंयच इस्कादीर बशिल्लो उलयलो,

"दोतोर आतां खंयचो? साडेचारांक येता तो." हांवें वेळ पळयलो. साडेतीन जाल्लीं.

"मां चड दुखता गे? साडे तीन वरां जाल्यात. नाजाल्यार म्हापश्यां या दुसऱ्या दोतोरा कडेन?"

"नाका राव मातशें!" अशें म्हणीत ती काळीज पोशेत रावली. मागीर एकदम रडून म्हणपाक लागली, "बाय! एकशें आठ आपय गो. जायना म्हाज्यान."

हांव स्कुटर घेवन सामकें क्लिनीका भायरूच आसलें. तशीच स्कुटर वाटेर सोडून तिका धरूंक गेलें. एका हातान तिचें काळीज पोशेता जाल्यार दुसऱ्या हातान एम्बुलन्सीक फोन करतां. फोन लागलो.

"हॅलो, हॅलो, हांव हांव पर्रा दोतर काळेच्या क्लिनीका कडल्यान उलयतां. म्हज्या मांक काळजान खूब दुखतां. तुमी मातशीं बेगीन हांगा एम्बुलन्स धाडात."

"हय मॅडम. तुमी exactly खंय आसात तें सांगशात?"

इतल्यान म्हजो आवाज आयकून आशी कुशीकचे दोग तीग जाण एकठांय जाल्ले.

"खंय म्हणजे? सांगलें न्ही पर्रा दोतोर काळेचे क्लिनीक. रस्त्या देगेवयलीं बिल्डींग."

"नायक बिल्डींग म्हणून सांग गो", एकल्यान म्हळें.

"हां नायक बिल्डींग... हॅलो...", हांवें म्हळें

"हां, धाडटां मॅडम".

इतल्यान मां आनीक वयर सकयल जावपाक लागली. हांव भिलें.

"तिच्या काळजान दुखतां, हांव कितें करूं? सांगात म्हाका. बेगीन हांव धेकणो घालीत फोनार उलोवंक लागलें."

मांन म्हजो हात घट्ट दामलो तेन्ना हांव थंड पडलें. दोळ्यांतल्यान भळाभळा दुकां व्हांवली.

बऱ्या वेळान एम्बुलन्स आयली. थंय जमिल्ल्या लोकांनी तिका भितर घालपाक आदार केलो. दोतोर एकान एक गजाल विचारीत गेलो आनी हांव बारीकसाणेन सांगीत सुटलें. उपरांत ताणें तिचो इ.सी.जी. काडलो, ब्लड प्रॅशर तपासलें, इंजेसांव मारलें. मागीर तिका मातशें बरें दिसलें. दोतोरान तिका ॲडमीट करतां म्हळें तेन्ना कितें करचें कळना जालें. आनी इतल्यान डॅडीलो फोन. तो आसलो बेंगलोर बशीर.

ताका सांगून कांयच उपयोग नासलो. ताका बेश्टे त्रास नाका म्हूण हांव ओगी रावलें. मात निमाणे कडेन ताका सांगचेंच पडलें. ताणें मामागेर फोन लायलो. पळयत जाल्यार मामा आनी मामी वासीन घेवपाक गेल्लीं. म्हणून मामालें चली थंय आयलें. कांय वेळान मामे भाव, मावस भाव आनी परवरेच्या मावशेची सून थंय पावली. तिचे सगळें चॅक अप जालें. दोतोरान सांगले, गॅसी खातीर तिका त्रास जाता. ताणें दिल्लें रेसेद घेतलें आनी आमी भायर सरलीं. कांय दीस मांक मामागेरूच दवरली आनी मागीर घरा हाडली. ती बरी जाली. आनी कांय दिसांनी असोच डॅडी म्हज्या सरीं आयलो आनीक म्हुणूंक लागलो

"बाय आयक गो! ते एम्बुलन्सीक मेसेज करून सांग. अशे अशे एके बायलेक तुमीं व्हरपाक आयिल्ले अमक्या जाग्यार. आतां ती बरी जाली. तुमकां थेंक्यू यू म्हणलां म्हण. बरें बरय, कोंकणीन."

संपर्क: 7507354542



# मन कुशबनः पांटो

**दादा हेगडे**

गीम सुरू जालो कीं म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतल्या माया म्हयन्याची सुटी याद जाता. आंबे, घोंटा, काजू, चारां, चून्नां, भिंडा ह्या सगळ्या फळां वांगडा कुसमण पांण्टयावेले दिस याद जातात. कुशावती न्हंय केवण-रिवण ते पाड्डे अशी व्हांवत निमणी कुरतरी हांगा झुवारी न्हंयक मेळटा. तीचे देगेर जितले गांव लागतात, थंय राबितो करून आशिल्ले  लोक हे न्हंयक पांटो म्हणतात. पांटो हो ''पाणवठा'' मराठी शब्दाचो अपभ्रंश जाव येता.

कुसमणा आमचे शेजरा दलाल आनी भेंडे हांच्या घरामदसुन एक वाट आसा. तीका आमी पायण म्हणतात. ती तीनशेक वर्सां मायज पोरनी आसूं येता असो जाण्टेल्यांचो अदमास. आमचे घरा सामकार सुरू जाल्ली ही पायण पाण्टयार सोंपता. माया म्हयन्याच्या सूटयेंत वाड्यावेलीं सगळीं घरां सोयरे दायऱ्यांनीं उपाट भरतालीं. आमचेय घर हातूंत वेगळें नासलें. ते तेंपार सोयरे दायऱ्यांच्या मनरिजवणीची एक गजाल म्हळ्यार तांका घेवन पाण्टयार पेंवपाक वचप. थंय वेतल्याक पेंवूक येवंकूच जाय अशें नासलें. खरें म्हळ्यार पेंवपाचे शिकप हांगासावन सुरू जातालें.

खूप पयलीं सावन पाण्ट्याचें वांटप जाल्लें. बायलां कपडे धुतात, तो बायलां पाण्टो. थंयसावन मातशे फुडे दादल्यां पाट्टो. ताका तारीपाण्टो अशें म्हणतात. खुप वर्सां आदी ह्या सुवातेर आलतड पलतड करपा पासत ल्हान होडे, जांका 'तार' म्हणतात ती चलताली. ते पासत हो तारी पांटो. ह्या तारी पाण्टयार येवपाची दुसरी पायण शिरवैकारा घरा सामकारसावन सुरू जावन हांगा मरेन सोंपता. पेंवपाक शिकतल्यांनी बायलां पाण्टयार केळीच्या गब्या आदरान, मातशें मुखार दोन तळपा मदल्यान व्हांवपी झोती मेरेन, पांय आपटयत शिकप सुरू करप. हांवूय हांगाच पेवूंक शिकलों. उपरांत उफेवंक जमलें जाल्यार तारी पाण्टयार हेर एक्सपर्टां मदी एन्ट्री मेळटाली. जांव चलीभुरगीं वा चलोभुरगो म्हजे वेळार सगळी अशीच पेवंक शिकलीं. पेवूंक वेळ काळ म्हण नासलो. म्हज्या सगळ्या आमिगांचे ते वेळार एक तुवालो आनी कालसांव पाण्ट्याच्या तळपार म्हयनोभर, दिस रात पडून आसतालें. जेन्ना जेन्ना म्हण पेवंचे अशें दिसलें, माल्ली उडी पांट्यांत! सांजवेळां सावन रात जाय मेरेन, पेत्रोला दिव्या ऊजवाडांत लेगीत आमी हांगा पेंविल्ल्याची म्हाका याद आसा. केन्नाच घरच्यांनी पाण्टयार पेवंक तसो विरोध केल्लो याद जायना. मात पेंवपाक गेल्ली सगळी मंडळी परत घरा परतता म्हणसर घरच्याक धुगधुग उरताली, हातूंत मातुय दुबाव ना.

''अंदु तीसाल रे, मात्शे साबांळून पोरांनो'' अशी घरच्यांची हुसकोभरीत शिटकावणी मेळ.

तीसाल म्हळ्यार तीन वर्सा उपरांत तीच घडणुक परत घडपाचें वर्स. पेवक गेल्ले कडेन हांगा कांय जाण बुडून मेल्यात. पुण हे चडशे सगळे गांवां भायले मनीस. तांका तारी पाण्टयामदलें कोडींचो अदमास नासलो अशे लोक. न्हयंच्या व्हांवत्या उदकामदींच कांय जाग्यांनी खोलसाण जावन व्हड फोंड जाता.  तीका कोंड म्हणतात. असल्या कोंडी जाग्या विशीचे जाणकार हांगा केन्नाच बुडूक ना.  हाच्या आड हेच तारी पांट्यार दोन तीन ते चार पाच मिनटां उदकांत बुड मारून रावपी, मोव गादयेर आड पडिल्ले भशेन विस मिनीटां वयर उफेवपी, अशे खडेगाठ पेवपी हांवें पळयल्यात.

गोंयची मांडवी न्हंय थांब नासतना एका धपक्यान पेवून पलतड मारपी पयलो गोंयकार सर्गेस्त प्रताप ग. दलाल हेच पाण्टयार पेवून तयार जाल्लो. आमचे वांगडा प्रतापसर पेंवतना आमका सगळ्या भुरग्याक एक परवणी कशी आसली. कुसमणचो हो पाण्टो स्विमींग पूल न्हय तर आमचे सगळ्यांचे 'स्विमींग स्कुल' आसलो अशें  म्हणूं येता. जतनायेन न्हंयचेर कशें पेंवप , उदकाचो थाव कसो घेवप हें सगळें आमी हांगासर शिकले. पुर्तुगेजांनी कुशावती न्हंयचेर शिमीटा बेत्याची जंयसर आडवण घाल्या ताचे लागसारचे लोक हेच पाण्ट्याक 'बांधार' म्हणटात. होच पाण्टो पावसांत मात हेर दिसांनी थंडसायेन सगळ्याक आपणावपी रागार जाल्या मनश्या भशेन तांबडो गुंज जावन उपाट भरून व्हांवता.  हुंवारान हड्डे फुगोवन पाड्डे गांव बुडयता. ह्या हुवारांत लागसरच्यांची, कोणाची कसलीच पर्वा करीना.

वर्सां गेलीं तशी पांट्या देगेवेली वस्ती वाडली. पाण्टयाच्या  दोनूय देगांनी व्हड बेत्याची उंच उंच घरां जाली. आतां पाण्टो ह्या घरांचे मागीलदारा उपेगा इतलोच उरला. पोट, जोड, भूरग्यांचे शिक्षण आनी हेर गरजा पासत लोक कुसमण सोडून हेर शारांनी गेले. एका वेळार लोकांनी उपाट भरिल्ली घरां आज कुलुपांनी गुडुप बंद दिसतात. त्या भायर नवी मनरिजवणेंचीं साधना जाल्ल्यान तरणी पिळगेची आवडी निवडी बदल्यात. आमचो तो पाण्टो तांका सामको अनवळखी जाला. आपल्या घरची नितळसाण सांबाळचे पासत देगेर रावपी लोकांनी आपल्या घरांतली घाण पांट्यात सोडल्या. पयर घरभाटान गेल्ले कडेन पांट्यार गेल्लो. दोन तळपां मधली घसघस व्हांवपी झोतीचो आवाज सोडून सगळो वाठार एका भंयाकृत शांततायेन भरिल्लो. फातरां तळपां वापर नासल्यान ती करपल्यावरी दिस्तालीं, दोनूय देगांनी झोंपा वाडिल्लीं. प्लास्टिक पिशव्यो, सुके फुलाचे निर्माल्य ह्या झोपांनी लायिल्ली पिनकी बोंदेरां कशीं दिसतालीं. उदका वयर एक तरेचे तवंग उफेतालें. एक वेगळेच तरेच्या उग्र  वासान कपलात शिण शिण मारली. एक वेळाचो रसरसीत जुवान म्हजो पाण्टो सामको जाण्टो कसो दिसतालो. त्याच खिणाक मनात एक विचार आयलो. पांट्यार फुकट शिकून गेल्ले स्विमिंग स्कुलांतल्या माजी पेवप्यांचे री-युनियनाची गरज आसा. जाण्टो जायत गेल्ल्या आमच्या पांट्यांक पयले सारको नेन्टो करूंक!!!!

संपर्क : 9822129070





# कविते विशीं

माधव बोरकार



१७-०६-२१

जिरार्ड मॅनली हॉपकिन्साच्या मतान कविता ही कानांनी वाचपाची आसता. कवितेसंबंदान केल्लें हें म्हत्वाचें आनी तिच्या मुळाकडेन व्हरपी विधान. हाचो एक अर्थ काडूंक येता तो असोः कवितेक जीं वेगळीं वेगळीं परिमाणां आसतात. तातूंतली दोन परिमाणां म्हळ्यार तिचें श्रव्यरुप आनी दुसरें तिचें दृश्य रुप. हॉपकिन्स विचार करता तें कवितेच्या श्रव्य रुपा सबंदान. जेन्ना आमच्या कानार एखाद्री कविता पडटा तेन्ना आमच्या मनांत तिचो एक विशिष्ट रुपकार आकार घेता. ताका लागून खंयच्या शद्वार कसो आघात करचो हाचे कडेन ध्यान दिवचें पडटा. खासा हॉपकिन्स आपली कविता कशी वाचची हें कुरवो करुन दाखयता. ताका तो sprungrhyth अशें म्हण्टा.

खूप फावट कविता तिच्या छापी रुपांत वाचतना ती दुर्बोध दिसता. तिचो अर्थ सहजपणान लक्षांत येना. पूण तीच कविता खासा कवीच्या आवाजांत वा ती समजून उमजून वाचतल्याच्या आवाजांत आयकल्यार ती दोळ्यां मुखार मूर्त रुपान उबी रावता. सगळेच कवी आपल्यो कविता प्रभावीपणान वाचतात अशें ना. डिलन थॉमस हो एक दुर्बोध कवी. ताची Do not go gentle into that good night ही एक गाजिल्ली कविता. तिका अर्थाचे कितलेशेच पदर आसात. पूण ताच्या आवाजांत ही कविता आयकतना ती सुबोध जाता. (थॉमस कविता वाचनाच्यो कार्यावळी करुन जियेलो). टी. एस. इलियट हाची 'The Waste Land' सारकी कविता ताच्याच आवाजांत आयकुपाक जाय.

श्रव्यांतल्यान दृक् रुप उबें रावता. देख म्हूण बाकीबाबालीं 'जपानी रमलाची रात' ही कविता घेवंक येता. ही कविता कानांनी वाचपाची आनी दोळ्यांनी पळोवपाची.

कविता कशी वाचची हाका म्हत्व आसाच. तेच प्रमाण ती कागदाचेर कशी छापची हाचेर कवितेचो आस्वाद निंबून आसता. ते खातीर कवितेखातीर कसलो फॉंट वापरचो, तिचे आशीकुशीक सोडिल्लो रिकामो जागा हाचो विचार करप गरजेचें आसता. हो मेकळो अवकाश कवितेच्या दृक् रुपांत भर घालता अशें न्हय तर तिच्या अर्थाक एक नवें परिमाण दिता. हाची जाण आमकां नासता. 'दर्या गाजोता' ही र. वि. पंडित हांचो कविता संग्रह पळोवंचो. एका एका पानार सात आठ कविता आंग चोरुन बशिल्ल्यो दिसतात. चडान चड कवितांचो आस्पाव करपा खातीर ताचो आकार मासिकाचो. ताका लागून संवेदनशील वाचपी ते कविते कडल्यान पयस वता.

हॉपकिन्स आपले डायरेंत अशी नोंद करताः It is a happy thing that there is no royal road to poetry. कविता बरोवप ही सोपी गजाल न्हय हाचे कडेन तो लक्ष ओडटा. कविता सोपेपणान तुमकां प्रसन्न जायना. तिका प्रसन्न करतलो जाल्यार तिका होरावंची पडटा. ते खातीर कवीक आपले परंपरेची बेस बरी वळख आसप गरजेचें आसता. खासा हॉपकिन्सान फकत इंग्लीश कविताच न्हय तर पुराय युरोपी कवितेचो खोलायेन अभ्यास केल्लो. तेच प्रमाण भाशेचो अभ्यास गरजेचो. भाशेक जो ताल आनी लय आसता, तो आपणावपाक जाय हाचे कडेन तो लक्ष वेधता. अशा अभ्यासांतल्यान ताणे एक नवो छंद जल्माक घालो. भाशेच्या अभ्यासांतल्यान गिरेस्त उतरावळ कवीच्या हाताक गवसता. आनी तातुंतल्यान ताचे कवितेचें शिल्प उबे रावता. हॉपिकिन्साची कविता ताची एक जिती जिवी देख आसा. तो आपले कवितेंत चालंत व्यव्हारांतली उतरावळ वापरता तेन्ना ते उतरावळींतलें नादमाधुर्य जाणवत रावता. पूण हय़ा सगळ्याक एके तरेचो व्यासंग लागता. ते खातीर कश्ट उसपुचे पडटात. मुख्य म्हणजे 'झटपट' प्रसिद्धीचो मोह टाळप गरजेचें. आयच्या काळांत सिद्धी परस प्रसिद्धीक म्हत्व आयलां.

हॉपकिन्स हो व्हिक्टोरियन काळांत जल्माक आयलो. तो १८४४त जल्माक आयलो आनी १८८९ वर्सा ताका मर्ण आयलें. म्हळ्यार फकत पंचेचाळीस वर्साचे जिवीत ताका मेळ्ळें. ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत साहित्याचो अभ्यास केल्या उपरांत तो धर्मशास्त्र शिकलो आनी जेजुईत पंथाचो वांगडी जालो. ऑक्सफर्ड विद्यापिठांत शिकता आसतना रॉबर्ट ब्रिजीस ह्या कवीकडेन ताची वळख जाली. मुखार ब्रिजीसान आपल्या ह्या इश्टाक प्रसिद्धीचो उजवाड दाखयलो.

काळाचो हिशोब केल्यार तो व्हिक्टोरिअन आनी टेनिसनाचो समकालीन पूण ताच्यो कविता व्हिक्टोरिअन कवितेच्या लागीं येना. ते परस जॉन डन, मार्वेल, क्रॅशो सारकिल्या अतिभौतिक कवीं कडेन आपलें नातें सांगता. तेच भशेन भुगोलीक शिमो हुपून सरळ कबीर आनी तुकाराम येवन भेट्टा.

हे कवीचो खरो पिंड हो अध्यात्मीक आशिल्लो. एके तरेची ख्रिस्ताक भेटपाची तळमळ ताचे भितर दिसता. अध्यात्मीक अणभव ती व्यक्त करपाक सोदता. "The wordl is charged with the grandrere of Go" अशें तो एके कवितेंत म्हण्टा. तेच प्रमाण ताचे सेर्माव, पत्रां आनी दीसपट्ट्यो ताची गवाय दिता.

ताणे सुनितां बरयलीं. हें सुनित ताचे कवितेचे प्रकृतीक चड लागीचे आशिल्लें. पूण आज ताची सगळ्यांत म्हत्वाची दीर्घ कविता हिचो

'The wreck of the Deutsehland' हिचो विचार जाता. फ्रांसिकन पंथाच्या माद्रीक तारुं फुटून बुडून मर्ण आयलें. तांकां उद्देशून बरयल्ली ही विलापिका. इंग्लीश कवितेच्या इतिहासांत हे कवितेक खाशेलें म्हत्व आसा. ही कविता म्हळ्यार मर्णाविशीं केल्लें चिंतन.

हो कवी वृत्तीन विरागी आशिल्लो प्रसिद्धीचे बाबतींत निरिच्छ. कविता ही ताची जियेवपाची एक तरा. हाकाच लागून घडये ताणे आपल्यो कविता उजवाडा हाडल्यो नात. तें ताणे रॉबर्ट ब्रिज हाजेर सोडून दिलें. आज ताच्यो कविता वाचतना तो आमचो समकालीन कवी अशें दिसता. व्हिक्टोरिअन काळाकडेन ताचे सूर जुळना. तो त्या काळाच्यो शिमो हुपता आनी विसाव्या आनी एकविसाव्या शतमानात पावल दवरता. आज आमकां व्हिक्टोरिअन कवी काळाभायरे दिसतात. पूण हॉपकिन्स नवो दिसता. एके कवितेंत तो म्हण्टा.

Elected silence, Sing to me
And beat upon my whorled ear
Pipe me to pastures still and be
The music that I care to hear

हें ताच्या आत्म्याचे संगीत. त्या संगितांतूच ताका आपले कवितेचोच न्हय तर आपले जीणोचो मोक्ष दिसलो.

असो हो अलौकीक प्रतिभेचें देणे लाबिल्लो कवी. आयच्या काळांत आडवाद कसो.

२१-०६-२०२१

आज सदानंद रेगे हांची जल्म तीथ. रेगे मराठींतले एक व्हड लेखक. मुखेलपणान कवी. ताणी कथा बरयल्यो तेच प्रमाण इब्सेनाच्या नाटकाचो अणकार केलो. 'जयकेतू' ह्या नावान युरिपिडीसाच्या ग्रीक नाटकाक मराठी साज चडयलो आनी स्टेनबेकाच्यो कादंबऱ्यो मराठींत हाडल्यो. 'अक्षरवेल', 'गंधर्व', 'देवापुढचा दिवा', 'वेड्या कविता', 'ब्रांकुशीचा पक्षी' हे तांचे कवितासंग्रह. ते भायर मायकोव्हस्की आनी व्हिटमन हांच्या कवितांचे अणकार तांच्या नावार आसात. 'काळोखाची पिसें' आनी 'चंद्र सावली कोरतो' हे दोन कथासंग्रह. इतलें सगलें आसुनूय तांची उवेखणी जाली. तांची पुराय जीण एके तरेच्या त्रासांत गेली. जीणेत आयिल्ल्या ''खर प्रश्न सोडयेंत तांकां खर निर्शेवणी आयली. ती कोडसाणीन भल्ली आनी ताचें पडबिंब तांचे कवितेंत पडिल्लें दिसता. दर एका अणभवाकडेन हो कवी तिरकस नदरेन पळयता. सुरवेच्या काळांत ताणी निसर्ग कविता बरयल्यो. 'घन नीळ आभाळांत / येती वादळाचे मेघ / क्षणी केव्हा नकळत / उले क्षितिजाची रेघ आनी तशेंच 'सोन फुलोरा नव्या उन्हाचा / त्यांत फुलांचा फेर बिलोरी' अश्यो तरल वळी तांचे कवितेंत येतात. अशे नाजूक अणभव व्यक्त करपी रेगे,

*सर्व वस्तुमात्र.*
*पुसून टाकलें*
*तरी शेवटी*
*हात उरलेच*
*आनी हातातलं*
*हे फडकं!*

अशी तिरकस सूर व्यक्त करपी कविता बरयता. ह्या कवीत मर्णाचें एक वेगळेंच आकर्शण दिसता. मर्णाचें चक्र अविरत चलत आसता.

*तो गेला*
*तेव्हा माझ्या घरातील*
*नवं मरण*
*पदमासन घालून बसलं होतं*
*कळीकाळ पचवून*

हो कवी विदुशकाचें म्होवाळें तोंडार चडोवन संवसाराचे माचयेर येता तेन्ना म्हण्टा,

*मी नुसतं म्हटलं*
*माझं नांव नेपोलियन*
*बोनापट्ट*
*तर मला ठाण्याला*
*आणून टाकतात लेकाचे*
*म्हणतात कसे*
*हेंच तुमचे सेंट हेले ना*
*बरं का नेपोलियन पंत*

रॉबर्ट ब्राऊनिंग ह्या कवीन dramatic monologue हो कवितेचो प्रकार इंग्लीश कवितेंत हाडलो. तसो प्रयोग रेगे मराठी कवितेंत करतना दिसतात. हे कवितांचो सूर म्हळ्यार आपलेच कडेन केल्लो संवाद. हांगा दिवाकर, बालकवी, मर्ढेकर येतात. तांकां उद्देशून आपलेच कडेन कवी उलयता. दिवाकर म्हण्टकच 'चिंगी' येता आनी बालकवी म्हण्टकच 'औदुंबर' आसा. हे संदर्भ लक्षांत घेवन ह्यो कविता वाचपाक जाय. कांय कडेन रेगेच्या कवितेंत विदुशकी कल्पना येत 'अमाप पापांची तपश्चर्या केली तरी गुंजभर सुद्धा पुण्य कधी पदरात पडले नाही / माझ्या पापाचे घडे अखेर परमेश्वराच्या बापाला भरावे लागले. तांचे कवितेंत अश्यो कल्पनांक फॅंटसी म्हणूक येता आनी कांय कडेन शद्बांचो आनी निखळ यमकांचो खेळ केल्लो दिसता. खूळ रे खूळ / धरते मूळ / सरते कूळ / टाकत चूळ / खूळ रे खूळ / खळ्यात सूळ / मळ्यात फूल / मागते मूल / खूळ रे खूळ / धुळच धुळ. वयले वयर पळयल्यार हो शद्बांचो पोकळ खेळ कसो दिसता.

पूण रेगे जल्म मर्णाचे चक्र कशें आसता तें सुचयता. उपरोध हो तांचे कवितेचो खरो सूर. उडलो तर कावळो आनी बुडलो तर बेबो अशें म्हणपी हो कवी.

*'कोरा कागद*
*त्याहून कोरं करकरीत मन*
*साऱ्या त्रिमितीत शद्ब*
*दबा धरुन बसलेले*
*केव्हा काय होईल याचा नेम नाही'*

मराठी कवितेत सदानंद रेगेचे कवितेक खाशेली सुवात आसा. दुसऱ्या पुर्वसुरींचे कवितेची तांचेर सावळी पडूंक ना आनी ताचे कवितेचें दायज मुखार व्हरपी दुसरो कोण कवी दिसना.

संपर्क: 9420222876

# श्रावण मासी हर्ष मानसी...

**कृ. म. सुखठणकार**



श्रावण म्हयनो म्हणलो की आमकां सोडून सगल्यांक कितें जाता म्हूण कळना, सगल्यांचेर भार आयिल्ले वरी जाता. हांगां आमकां सोडून, म्हणजे नीज गोंयकारांक सोडून. हांव नीज गोंयकारांचें प्रतिनिधित्व बी करतां अशें समजून थोड्यांच्या पोटांत बी दुखूं येता देखून स्पश्ट करतां कीं हांव कोणाचें प्रतिनिधित्व बी करी ना. पुणून हांवे हाचेर मातसो अभ्यास केलो तेन्ना म्हाका अशें जाणवलें कीं देशाच्या बाकिच्या वाठारांनी जसो श्रावण म्हयनो लागतकच एक तरेचें उमेदीचें वातावरण तयार जाता तशें गोंयांत जायना. श्रावणांत घरकात्रीन आयतार पुजलो आनी तुमी घांट वाजयली हाका उमेद म्हणनात, तुमचे म्हायती खातीर. श्रावण लागतकच लोकाक उमेद जाता म्हणटात ती कितें हें तुमी जाणून घेवपा खातीर हांव आनंद बक्षी हांणी बरयिल्ल्या गिताच्यो वळी हांगां दितां:

*'सावन का महिना पवन करे सोर*
*जिया रा रे झुमे ऐसे जैसे बन मा नाचे मोर'*

हें पद तुमी आयकलांच आसतलें हातूंत दुबाब ना. पुणून श्रावण लागलो म्हूण हें पद गायत, पणजे फाजेन्दा कडेन गोयकारांक नाचतना हे तारखेक लेगीत हांवे तरी पळोवना. सोड.

शेजारचे राज्यांत श्रावण लागलो रे लागलो 'जो उत्साह ओसांडून वाहतो तो पाहिला म्या दोळा'. ताचें कितें जालें, म्हज्या साडवाक (नलूच्या यजमानाक) पगडी जाय आशिल्ली. कित्याक ती म्हाका याद जायना. टिळक घालताले, हाकाय माथ्यार दवरपाची कूय आयल्या आसुंये. हांव असल्यो बारीक चवकश्यो करपाक वचना, हांव नीज गोंयकार आसलो तरीय. तर, हांव तांगेरुच आशिल्लों म्हणटकच पुण्याक पगडी घेवपाक या म्हणूंक लागलो. आमी शिवनेरीन पुण्याक सकाळीं पावलें. सदाशीव पेठेंत सगले लेंगो सदरो आनी हाताक कापडाची पिशवी लावन 'मंडईंत' वताले. म्हाका ताणीं हाताक लायिल्ले पिशवेची सायज पळोवन कवतूक दिसलें. तातूंत सुंगटांचो एक वांटो जावप कठीण. तातूंत ते दोन चुडयो पालक आनी एक चुडी कांद्या पात घालून घरा वतात. आसूं, तो आमचो विशय न्ही. तर, तेन्नाच श्रावण लागिल्ल्यान म्हाका गोंयकार आसून लेगीत 'आनंदी आनंद गडे इकडे तिकडे चोही कडे' अशें वातावरण दिसलें. मंडईंत वतना मुंयो एकामेका कडेन उलयतात तश्यो सगले जाण एकामेका कडेन कितें तरी उलयताले. म्हाका उमळशीक जाली म्हणटकच हांवे कान लायले.

''कुलकर्णी श्रावण लागला बरं का, आज काय बेत?''- पयलो काका.

''आज आमच्या कडे भात, पंचभेळी आमटी, दाट पिवळ्या रंगाची आंबटगोड कढी, पापड आणि लोणचे''- दुसरो काका.

''आमच्या कडे आज केळीच्या पानावर गरम पिवळ्याधम्मक वरण भाताची मूद, कैरीच्या लोणच्याचा लाल तवंग, बटाट्याची सुकी भाजी, कचऱ्या आणी ताक''.- पयल्या काकान विचारी नासतना आपलो मेनु सांगलो. म्हाका ओगीच बापायचे वर्स श्राद्धाची याद जाली, कित्याक खबर ना. म्हाका नाका थंय नाका ती याद जावपाची पाडी संवंय. तरी आसतना हांवे 'शाब्बास' म्हणलें तशें काकान फाटल्यान पळयलें.

''उद्या श्रावणी मंगळवार. साबुदाण्याची गरमागरम खिचडी, साजूक तुपातील बरं का, ताजे सायीचे घट्ट दही, सौभाग्यवती साठी खमंग थालीपीठ व लोण्याचा पांढराशुभ्र गोळा'' - ताणे उमेदीन दुसऱ्या दिसाचो मेनु सांगलो तसो म्हज्या पोटांत गुळो आयलो.

''शाब्बास! श्रावणी जेवणाचा बार उडवून द्या. आम्ही पगडीच्या शोधात आहोत नाही तर आठवड्याचा बेत ऐकायला बसलो असतो.'' अशें म्हणून हांव कडसरलों.

कवी, गितकारांच्या सृजनशक्तीक कोमरी न्ही झरे फुट्टात ते श्रावण म्हयन्यांत, बालकवी ते पाडगांवकर (मंगेश) मेरेन. आडवाद म्हणटात ते बोंटार मेजपा इतले आसुंये. बालकवी 'श्रावण मासी हर्ष मानसी हिरवळ दाटे चोहीकडे' म्हणटा तर बा. सी. मर्ढेकर 'आला आषाढ - श्रावण आल्या पावसाच्या सरी, किती चातकचोचीने प्यावा वर्षाऋतू तरी' असो प्रस्न विचारता. 'सुंगटां घालून कर गो बेस बिमलांचो रोस' म्हणपी आमचो बाकीबाब पत्रादेवीचो चेक पोस्ट काडटकच बा.भ. बोरकर जाता आनी श्रावण म्हयन्याचो महिमा गावपाक लागता. मागीर तांच्या लेखणींतल्यान 'समुद्र बिलोरी ऐना सृश्टीला पांचवा म्हैना' वा 'बोला कुणा कुणा हवे फुलपाखरांचे थवे जादुगार श्रावणाच्या कर्णकुंडलीचे दिवे' अश्यो वळी कागदाचेर देंवतात. फाटीं दोन तीन कडेन हांवे बाकीबाबाचो उल्लेख, 'गोव्याचे लाडके व्यक्तीमत्व बा. भ. बोरकर' असो केल्लो. पूण तें कोणेंच मनार घेतलें ना, तुमचे म्हायती खातीर. पाडगांवकरान (मंगेश) तर, 'श्रावणांत घन निळा' अशें म्हणलां. श्रावण लागल्या बराबर आकाशवाणीचेर 'मनपसंत गितें' हे कार्यवळींत हे गाण्याक मागणी आसताली. मागणी करपी नांवांची वळेरी वाचपाकूच धा मिणटां वतालीं. हें पद रेडव्यार केन्नाय लागूं टायगर 'श्रावण म्हयनो लागलो गेय' अशे आईक सालांतल्यान सांगतालो. मागीर आई, 'तूं एक' अशें म्हणून तोंडाक पदर लावन हांसताली. हें पद गोंयांत इतलें लोकप्रीय जालें की बायलो 'श्रावणांत घन निळा बरसला, देवा तूंच पाव आतां आम्हाला' अशें म्हणत तुळशी कडेन आयतार पावयतालीं, अशें म्हाका सावळ्यान सांगलां. सावळ्यान सांगलां म्हणटकच तें खरेंच आसतलें हातूंत दुबाव ना.

''श्रावण महिना हा हिंदू पंचागानुसार आणि भारतीय सौर दिनदर्शिकेनुसार वर्षातील पाचवा महिना असून या महिन्याच्या पौर्णिमेला चंद्र हा श्रवण नक्षत्रांत असल्यामुळे ह्या महिन्याला श्रावण असे नाव

मिळाले आहे.''

पाटील गुरुजीन आमकां शाळेंत श्रावण म्हयन्याची अशी वळख करुन दिल्ली. त्या आदीं 'म्हयनो भर शिवराक जेवतात तो म्हयनो श्रावण म्हयनो' हें आमी जाणां आशिल्ले.

''श्रावण महिना सामान्यपणे व्यतीत करणे चुकीचे ठरते. त्यात बदलाची, परिवर्तनाची झलक असते असे योगिनी बाईनी एका मुलाखतीत श्रावण महिन्या विशयी बोलताना म्हटले आहे''- रेखा भुजंगराव हुबळीकरान उबें रावन श्रावणा विशीं आनीक म्हायती दिली.

''आम्ही पण श्रावण महिना सामान्यपणे व्यतीत करत नाही. श्रावण महिना आम्ही कसा काडतो ते आम्हालाच माहीत आहे. 'मन की प्यास मेरे मन से ना निकली ऐसे तडपूं के जैसे जल बिन मछली' अशी स्थिती होते आमची श्रावण महिन्यात. कारण आम्हाला मासळी ह्या महिन्यात वर्ज्य असते. तुम्ही जोंधळा आणि बाजरी एका महिन्या साठी बंद ठेवा म्हणजे कळेल तुम्हाला आमची स्थिती''. दत्तान बांक बडयत आपलो मुद्दो मांडलो.

''नाही तर काय! माणसाचं सोडाच, शिकेरकर गुरुजींचं घर सोडून आमच्या कडे राहायला आलेला त्यांचा बोका ताटांत उड्डमेथी, भात व घोसाळ्याची भाजी पाहिल्यावर 'हेची फळं का मम तपाला' असं आम्हाला विचारत असतो!'' हांव बारीक आवाजान.

''दर वर्षी दीप अमावास्या झाली की नवीन मंगलमय पहाट घेऊन येतो आपला श्रावण महिना. श्रावण महिना अनेक व्रतवैकल्ये आणि सणांनी सजलेला महिना आहे म्हणूनच बालकवी म्हणटात 'देव दर्शना निघाली ललना हर्ष मावेना हृदयात, वदनी त्यांच्या वाचून घ्यावे श्रावण महिन्याचे गीत' ''. रेखा हुबळीकर शुन्यांत नदर लावन गांवक लागलें.

''आमचे लेखक श्रावणावर काहीच बोलले नाही ही आमची चूक का?''- दत्ता.

''ते कुठे काहीच बोलत नाहीत म्हणून ही पंचाईत!''- हांव बारीक आवाजान.

''श्रावण महिन्यातील आठवणी ह्या विषयावर दहा ओळी लिहून आणा.'' अशें म्हणून पाटील गुरुजीन घंटा वाजयली.

गोंयकारांक श्रावण लागलो म्हूण कसलोच हर्ष जायना. श्रावण लागलों कीं तो सकाळीं उठ्ठा आनी हातांत कुरपणो आनी केकलें घेवन दुसऱ्याल्या पोरसांतलीं फुलां सोदीत भोंवता. घरा सामकार एक तुळस सोडून एक रोप सुद्धां नासतना इतलीं फुलां खंयच्यान हाडलीं हो प्रस्न ताची घरकान्न ताका विचारीना.

''आज बरीं मेळ्ळीं न्ही फुलां? हे खातीर तुमकां सांगतां काळखांत उठा आनी कापोत घालून वचा फुलांक. उजवाडांत मागीर नसतीं किजिलां. पयर रजनील्या घरकारान आवडयाल्या पोरसांतले दसणीक हात घालो म्हूण ताका गाळी पडल्या पळय! फुलां देवाकूच न्ही तीं, हांगा घालीं कितें थंय घालीं कितें! लोकांक बाये कांयच कळना. वयल्यान शिकिल्लीं खंय! पर्सी लावन फाजेन्दान कामांक गेलीं म्हूण शिकिल्लीं जायना. तुमकां चाफो मेळ्ळो नां? सुकांतीले आंगणांत बरो फुल्ला''. अशें म्हणून ती ताचे सामकार च्याचें कोप दवरता. आयतार बी आसल्यार हो च्या सवळ्यांनी जाता. जांच्या घरा सामकार बरें पोरसूं आसा आनी जाणे तें बरें उमेदीन फुलयलां तांचो अख्खो श्रावण म्हयनो तें राखपाकूच वता.

गोंयांत श्रावण लागतकच घरांतले अन्नपुर्णेचेरुय आकांत येता. कांय घ रांनी श्रावण ते भाद्रपद चवथी मेरेन शिवराक जेवपाची पद्धत आसा. तांगेर ह्या म्हयन्यांत जेवणा वयल्यान वाद जातात ते सोंसपाचे न्ही. हांव मदीं सोयरिको करतालों म्हणून म्हाका हें बेस बरें खबर आसा. हांवे सोयरीक केल्ली ते घरांतली व्हडली सून घोसाळ्यां भाज्ये वयल्यान झगडीं करुन कुळारा गेली. वतना तिणे पिशवेंतलें व्हडलेंशें घोसाळें काडून मांवाचेर शेंवटून मारलें. मांवाचें आनी ते घोसाळ्याचें फुडें कितें जालें हें खूब जाणांक जाणून घेवपाची उमळशीक आसतलीं हें हांव जाणा पूण तो आमचो विशय न्ही. जाण्टेल्यान ''आजूय घोसाळ्याचीच भाजी?'' इतलेंच म्हणिल्लें आनी ही हिंसक घडणूक घडली. ही घडणूक तांचे सालांत घडली जंय बापूजीचें येदें व्हदलें पांयजेल वण्टीर आशिल्लें. गांधीजी अहिंसेचे समर्थक आशिल्ले. ताणीं अहिंसेच्या मार्गानूच गोऱ्या सायबांची राजवट सोंपयल्ली आनी तांकां भायरे केल्ले. तांचे साक्षीन घोसाळ्याची ही हिंसक घडणूक घडची तीय बी पवित्र श्रावण म्हयन्यांत हाचें म्हाका सामकें वायट दिसलें.

श्रावण म्हयनो हो शिवराक आसल्या कारणान तामसीक अशें कांयच पोटांत वचना. तरीय अश्यो हिंसक घडणुको घडच्यो ही खेदाची गजाल. सून कुळारा आयली खरी. ती आयली त्या दिसा कुळाराय तिचे पानार घोसाळ्याची भाजी पडटकच श्रावणांत गोयांत घरोघरी मातीच्याच चुली हें तिका गमलें. ह्या म्हयन्यांत अन्नपुर्णेचेर आकांत येवपा फाटल्यान कारण आसा. ती वर्साचे अकरा म्हयने हुमण आनी नुस्तें तळून काडटा. मदींच रोस, वेगळी भाजी करप तिच्या जिवार येता. हांव तिची चूक म्हणना. कोणीय तिचे सुवातेर आशिल्लो जाल्यार अशेंच जावपाचें. हांगा कोणीय म्हणजे दादलो मनीस.

श्रावण म्हयन्यांत आमगेर वरण, सार, उड्डमेथी, दाळचो रोस शीत कालोवपा खातीर आसता. भेण्या भाजी, घोसाळ्या भाजी, बटाटाचें, केळ्याचें काप तोंडाक लावपाक. आयतारा पायस हो लक्झरी आयटम. हे जिनस सोडून वेगळें कितें तरी कर अशी चुकून फर्माईश केली जाल्यार तुमची जीब हालीं चड मातल्या. इतली रूच आयल्या जाल्यार ''तुमीच रांदचेकुडींत येया आनी करा आनी म्हाकाय करुन घाला'' अशीं उतरां रांदचेकुडींतले दिकेंतल्यान सालांत बशिल्ले कडेन कानार पडटात. हे तारखेक तरी रांदचेकुडींतल्यान म्हजे दिकेन घोसाळें येवना हें तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल.

श्रावण म्हयन्यांत मत्स्य अवताराची याद जावप हें मनशाच्या गूण धर्माक अनुसुरुन. तातूंत पाप कांयच ना अशें सावळो सदांच म्हणटा. निरपणसाचें काप तोंडांत घालतना विस्वणाचे पोस्ताची याद जाली म्हणून अजाप न्ही. अशे भास श्रावणांत सुरु जावन गजाननाक (देड दीस फेम) उदकांत पावयलो की सोंपता. घरांत रांदनीर वरण आनी भेण्या भाजी (कांद्या शिवाय) शिजता आसतना भायर रस्त्यार नुस्तेकान्न दिसल्यार आमचें तोंड ओगी रावना. ''आज कितें हाडलां गो इजाबेल?'' अशीं

उतरां सहज तोंडांतल्यान भायर सरतात. इजाबेल वाड्यावयलें फॅमिली दोतोर कशें. ताका, कोणागेर सोमार, कोणागेर संकश्टी करतात, कोणागेर सोळा सोमार उजयले, सगलें खबर आसता.

''बारीक पेडवे आसा, घालूं एक वांटो?''

''आगो इजाबेल आमगेर श्रावण न्ही गो, तुका खबर ना काय मुद्दम विचारता? फाटल्या आयतारा मणगणे खावना तुंवे?''

''सोगलें खोबोर आहा म्हाका! तूं टायम पास कोत्ताय म्हूण हांयेय इल्लो केलो. हीच ती लोकशाय न्होय?''

''बरें उलोंवक शिकलां मुगो! आगो रामरायागेर नुस्तें घेतात न्ही गो? बरीं पऽक पऽक करुन खाता आसतलीं तीं. देवधर्म बी कांय नाका! ताची आवय आसासर तिणे बाबडेन केलें. म्हयनो भर नुस्तें खालें ना जाल्यार कोण मरता गो?''

''हांये नुस्तें हायलें ना जाल्यार हांव मोरचें ना गे तुमी हायलें ना जाल्यार मात हांव मोरतेलें.''

''बरें विनोद करता मुगो! बांगुल्ल्यो बी पडपाक लागल्यो गो?''

''आसाय घालूं एक वांटो? चोकचोकीत पांचव्योच!''

''श्शी बाये सांवार आयला तुजेर! आनीक सेवेनटीन डेज उरल्या आयचो दीस सोडल्यार.''

''हांव आनी पिशें कोहें जोड पाटें घेयन टायमपास कोरतां. तुगे भेण्या भाजी कोरपोली थोंय! वास येना? हिंगा नुस्त्या हिमसाण घेंवक येयल्यांय तीं?''

''आवय म्हजे! गोबोर!''

श्रावण म्हयन्यांत घरची अन्नपूर्णा आनी नुस्तेकात्र हांचे मदीं सकाळी असो संवाद आयकूंक मेळटालो. कालांतरान गांव खाली जाले, फ्लॅट संस्कृती आयली. नवी पिळगी आयली तांचे विचार बदल्ले. पुणून श्रावण म्हयन्याचें म्हत्व कमी जालां अशें म्हाका दिसना. गोंयांत श्रावण म्हयनो पाळपाचो सर्वसादारण तीन तरा आसात. एक, कडक श्रावण म्हयनो. आदल्या तेंपार श्रावण म्हयनो येतालो आनी वतालो. फकत पानार बसतकच श्रावण म्हयनो चालू आसा म्हूण आमकां कळटालें. आयचें यूग हें जायरातीचें यूग. हे युगांत आपूण कितें करता हें जगाक कळोवप सामकें गरजेचें. हाकाच लागून 'प्री वेडींग शूट', 'प्री नॅतल शूट' ह्यो संकल्पना बी जल्मांक आयल्यो. हळदी दिसा मान्न्यांत न्हातात तें सोशल मिडियाचेर पळोवंक मेळपाक लागलें. हातूंत आनीकूय प्रगती जावपाची आसा अशें सावळो म्हणटा. आसूं तो आमचो विशय न्ही. जशे लोक आतां परत थेटरांनी वचपाक लागल्यात तशीच देवळांनीय आतां परत गर्दी जावपाक लागल्या. दोनीय सुवातीनीं शो चालू आसता ती गजाल वेगळी. हाका लागून व्रतांवैकल्यांक आतां डिमान्ड आयला. श्रावणांत हांचो भरणो चड आशिल्ल्यान ह्या म्हयन्याक अच्छे दीन आयल्या म्हणल्यार जाता. कांय हॉटेलांय बी, 'Celebrate Shravan with our Shravan Thali' अशी जायरात करपाक लागल्यां. हांव हें यूग जायरातीचें यूग म्हणटां तें ह्या खातीर. एक वर्स श्रावण म्हयन्यांत कारात्याचीं कापां आनी सार सेगीत णव दीस खाल्या उपरांत पणजे गेल्ले कडेन एका हॉटेला सामकार 'Pure Shravan Thali' हो बोर्ड पळयलो. Pure Shravan Thali हाचो अर्थ म्हाका कळ्ळो ना. आसूं. खोमसाच्या वयल्या बोल्सांत नदर मारली. एक शंबराची आनी एक धा ची नॉट आशिल्ली. म्हणटकच हांव तो बोर्ड बारीक वाचपाक लागलों. बारीक वाचपाचें कारण तो इंग्लीशींत आशिल्लो.

Sabudana Thalipeeth (- kind of roti)

Contains Rajgira flour, peanuts, potato with jeera and saunf, green chillies and coriander leaves. Is a nutritious way of replineshment for a person observing a fast.

ताळो सुकिल्ल्यान हांगा हांवे पयलो आंवडो गिळ्ळो. हें खातकच कितल्यो कॅलरी पोटांत वतात ताचीय म्हायती थंय दिल्ली.

Sabudana Wada

Sago and Potato with gentle waft of ginger and chillies.

Sago म्हणल्यार कितें तें म्हाका कळ्ळें ना Potato म्हणल्यार बटाट म्हूण कळ्ळें. परत म्हजो ताळो सुकलो.

Sama ka Chaval with Vegetables

Enjoy taste of Lebanese salad Tabbouleh.

Sama ka Chaval म्हणल्यार वरयां तांदूळ. हें म्हाका हॉटेलाचे नाबी वयले अस्तुरे कडल्यान कळ्ळें. हें सांगतना तिच्या जिवार शें आयलें. हांवे म्हज्या बॉल्सांत एकशें धा रुपया नकद आसात हें तिका सांगलें ना. तिणे म्हाका ओली सत्री भायर दवरुन भितर यो अशेंय सांगलें. म्हजी Sama ka Chaval जेवपाची वानसाच गेल्ल्यान हांव परत आनी भितर गेलों ना. साडे बाराचे 'देवता' बसीर बसून घरा आयलों. सार आनी कारात्याचीं कापां लावन जेवलों आनी गॅस जांवचो न्हय म्हूण हवाबाण हरडे तोंडांत उडोवन सालांत आड पडलों. तर, हें अशें जायरातींचें यूग. आमी श्रावण पाळटात हें जगाक कळप सामकें गरजेचें. श्रावणांत आमगेर सवळें ओवळें आनीक कडक जाता. हाका लागून तोप, ताटां, वाटयो बी माळ्या वयल्यान सकयल देंवतात. मागीर तीं चवथ जायसर सकयलूच उरतात आनी चवथ जातकच परत वयर वतात. पयलीं आई कलयकात्री कडल्यान कलय बी काडून घेताली. आतां आमचीच कलय गेल्ल्यान आयदनांची कलय पळोवपाक आमकां वेळ ना. हें सगलें आमगेर श्रावण म्हयन्यांत घडटा. आनी आमी तो कडक रितीन पाळटात हें जगाक सांगपा खातीर, ही, सावळो माळ्या वयल्यान तोप देंवयतना फोटो काडटा आनी फॅसबुकार पोस्ट करता

'Mr Savlo downloading utensils from माळो for Shravan.'

हें वाचतकच सगल्यांक आमगेर श्रावण म्हयन्याची तयारी सुरु जाल्या तें कळटा.

कडक श्रावण हे कातेगोरींत घरांत कांदो, लसूण बी चलना. हाका लागून भेण्या भाजी पसून चोथो कसो लागता. बटाटाचीं, निरपणसाचीं कापां आनी ओव्यांची कडी हाका लागून दोन उणयो पोटांत वतात हाचेर कोणाचें दूमत आसचें न्ही. केन्नाय हिका म्हजी काकुळट येता. तेन्ना ही दोन मिरसांगो कायलींत सोडटा. त्या दिसा तिसरी उणी म्हज्या गळ्या सकयल देंवता. ह्याच म्हयन्यांत जितीं तेंफळां बाजारांत येतात

आनी तीं फुकट वतात अशें म्हाका दिसता. नवीं जिर्ती तेफळां पळयल्या बराबर म्हाका, 'तुला पाहिल्या मुळे आमुचे कृतार्थ इतले येणे' ह्यो बाकीबाबाल्यो वळी म्हज्या तोंडार येतात. श्रावणांत तीं जिर्ती तेंफळां भेण्यां बराबर दाळच्या रोसांत घालून घेतात आनी इहलोकांतलो आपलो कार्यकाल सोंपयतात. तो फकत हुमणांत पडटकचूच सत्कार्णी लागता अशें म्हजें मत. जांगेर श्रावण कडक आसता तांकां रांदचेकुडींत चड प्रयोग करपाक मेकळीक नासता. म्हणटकच नवें कितेंय करुन फेसबुकार बी घालपाक मेळना. हाका लागून तांचो सामको घुस्मटमार जाता. हो घुस्मटमार सामको त्रासदायक आसता हें हांवें आमगेर अणभवलां. पोरुं आमचे नलून फेसबुकार अळुचे फदफदे करुन घाल्लें. मेजार बरो भरिल्लो तुवालो घालून अळुच्या फदफदाच्यो तोप दवरलेलो. ताच्या घोवा वटेन अळुचे फदफदे म्हणल्यार डेलिकसी खंय. तेवटेन फेसबुकार फदफदे पडलें आनी हेवटेन हिचे पोटांत खदखदपाक लागलें. नलून 'प्रेझेंटेशन' बरें केल्लें. ताका ती कळाशी आसा. ''अळुची भाजी सर्वांना परिचीत आहे. पावसांत रुजून येणारे तेरं अळू हे सुद्धा काळ्या अळू येवढेच कोंकणांतल्या लोकांना प्रिय आहे'' (नलूक आरोंद्यां दिलां) अशी बरी सुरवात करुन मागीर फदफदें कशें करप तें बरें समजावन सांगिल्लें. मागीर हिणे भोपळ्याच्या वेलीची भाजी फेसबुकार घाली. हिणे ''पयल्या पावसात नंतर भोपळ्याच्या बिया रुजत घालतात.'' हांगाच्यान सुरु केलें. आनी ''...चवी पुरते मीठ व ओले खोबरें घालून भाजी उतरवावी'' अशें बरोवन सोंपयलें. वांगडा लॉजार चडयलेल्या वेलीचे फोटे आनी हांव आनी सावळो दुदणीचो एक एक कळो हातांत घेवन अशे दोन फोटे फेसबुकार सोडले.

जे घरांनी कडक श्रावण धरतात ते श्रावण लागच्या आदल्या दिसा गटारी अमावास्या म्हणून 'साजरी' करतात. आमचे राज्यांत ती अजून बरी रुजुना. हाचें कारण म्हाका सांपडूं ना, म्हजो अभ्यास अजून चालू आसा... ह्या दिसा सोशल मिडियाचेर For and -gainst posts पळोवपाक मजा येता. जे साजरी करतात ते सोऱ्याच्यो बाटल्यो, तंदूरी चिकन, नुस्त्यान भरिल्ली रायस प्लेट अशे फोटे घालतात. जाल्यार संस्कृतीचे राखणदार 'गटारी अमावास्या म्हणजेच दिव्यांची अमावास्या कशी' हें समजायत पणट्यो पेटोवन उजवाड घालतात. गोंयकार हे गटारीचे भानगडींत पड नासतना घरा वतना ताल्ल्यांचो एक वांटो घेवन आलें मिरसांग बी बरें घालून सुकें करतां आनी आंबाडे घालून बरें सुंगटांचे हुमण करुन जेवणाचेर आडवो हात मारता. दुसऱ्या दिसा श्रावण सुरु जातलो म्हूण उरिल्लें फ्रिजांत दवरुंक मेळना म्हणून सगलें रातचेंच सोंपयतात. आमगेर तर सगलो फ्रीज खाली जाता. पोरुं आमकां २०१९ डिसेंबरांत हाडिल्ल्यो वागयो डीप फ्रीजरांत सांपडल्यो. आतां तुमकां म्हयनो आनी वर्स म्हाका कशें कळ्ळें हो प्रस्न पडला आसतलो. त्यो वागयो गुठलायिल्ल्या दिसाळ्याच्या पानाचेर वर्स आनी तारीख आशिल्ली. हिणे 'आगे बाये वास दिसलो सामको' अशें म्हणत त्यो

बिमलीच्या पोंदा पुरल्यो.

श्रावण पाळपाची दुसरी तरा म्हणजे फकत नुस्तें, मटण, चिकन खावप ना बाकिचें खावपाक कांयच हरकत ना. ह्या घरांनी कांदो, लसूण असले तामसीक जिनस खावपाक बंदन नासता. कोणाचो वाडदीस बी ह्या म्हयन्यांत आयल्यार केक बी हाडून ताचेर मेणवाती लावन, फूंक बी मारून साजरो जाता. त्या केका भितर कितें आसा हाचेर विचार करुन कोण वेळ वगडायना. पूण तो साजरो करपाक आयिल्ले मंडळी भितर कडक श्रावण कातेगोरिंतलो आसत जाल्यार 'तातूंत तांती बी ना मुगो, आसल्यार म्हाका फकत रसना दी' अशें म्हणत वाडदीस साजरो करता.

श्रावण पाळपाची तिसरी तरा म्हणजे घराच श्रावण, घरा भायर कांय ना. सगल्यां भितर ही पद्धत म्हाका मानवता. घरच्यांकूय त्रास ना आनी स्वताचेरुय बंदन ना. ही मंडळी ऑफिसांत घरच्यान वरण आनी बटाटाचीं कापां घेवन येतात. आनी दनपरां कॅण्टीनांतल्यान बांगुल्ल्यांचें हुमण (जितीं तेंफळां घालून) आनी तळिल्लो बांगडो घेवन जेवतात. 'श्रावण बी सगलें घरच्यांचेर सोंपयलां भायर सरतकच आमी तो मी नव्हेच' अशें म्हणत मटणाच्यो नळयो चोखप्यांचो आंकडो वाडत आसा. बरी गजाल, हांव वायट म्हणना.

श्रावणांत घन निळा जाल्ल्या कारणान पावसाचो जोर मातसो कमी जाता. पावसाचो जोर कमी जातकच आमी सालांत न्हिदतालीं तीं आमच्या बेडरुमांत परत न्हिदपाक वतात. जेष्ठ आनी आशाढ हे दोन म्हयने आमचे खाटीर तकले वयर गळटा. पयलीं तोप दवरुन तो भरतकच हांव भायर व्हरुन रकयतालों. आतां कांय वरसां पिरायेक लागून तें शक्य जायना. म्हणटकच श्रावण लागसर आमी सालांत न्हिदतात, तुमचे म्हायती खातीर. आमचें लग्न मे म्हयन्यांत जालें. जुनांत हिका हो सोद लागतकच हिणे कुळारा एका वळीचें पोस्टकार्ड बरयलें.

'ति. आई बाबास,

सा.न.वि.वि.

झोपले असता माझ्या डोक्यावर गळत आहे तरी मला झडकरी घेऊन जावे.

तुमचीच अभागी कन्या,

बाय

सोड.

आमचो गोंयचो नुस्तें आनी भाजी बाजार मागणी आनी पुरवठो हे तत्वाचेर चलता हें सगल्यांक खबर आसा. हाका लागून श्रावण म्हयन्यांत अचकीत भाज्यांक मागणी आयिल्ल्यान भाज्यो म्हारग जातात. दुसऱ्याच दिसा दिसाळीं, 'श्रावणात भाज्यांचे भाव भिडले गगनाला' असो माथाळो दिवन आपलें कर्तव्य पार पाडटात. दर वरसा श्रावणांत अशेंच घडटा. म्हणटकच दिसाळीं तीच बातमी भाज्यांचें मोल बदलून छापतात. 'सणवारांची आणी गोडाधोडाच्या नैवेद्याची रेलचेल असणारा श्रावण महिना अवतराला असला, तरी यंदा खाण्यापिण्या वरचा हात आखडता घेण्याची वेळ गृहिणीवर आली आहे. श्रावण महिना सुरु होताच भाज्या फळांचे दरही चढू लागले आहेत. त्यामुळेच दरवर्षीच्या रेलचेलीवर यंदा ऐन श्रावणात सक्रांत आली आहे...' म्हाका याद जाता त्या प्रमाण ही बातमी हांव दिसाळ्यांत २०१२ साला पासून वाचत आयिल्ल्यान म्हाका ती पाठ जाल्या. 'गोवा फलोत्पादन विकास महामंडळाचा भाज्यांचा पुरवठा स्थीर असला तरी किरकोळ विक्रेत्यांचा वाहतुकीचा खर्च वाढल्याने भाज्यांचे दर वाढल्याचे विक्रेते सांगतात. गेल्या आठवड्याच्या तुलनेत भाज्यांचे दर वीस ते तीस टक्क्यानी वाढल्याचे दिसून आले आहे...' हांगा दर वरसा टक्केवारी बदलता. तीच टक्केवारी दिवन बातमी दर वरसा छापल्यार लेगीत आमकां तें कळचें ना. श्रावण म्हयनो लागतकच पणजे बाजारांत पासय मारीत जाल्यार चडशे सदरो कल्सांव घालून एका हातांत फोल्डींग सत्री आनी दुसऱ्या हातांत कापडा पिशवी, तातुंतल्यान भायर सरिल्लीं दोन घोसाळीं घेवन सुतकी चेरो करुन घरा वतना दिसतात. वतना ते नुस्त्या बाजाराचेर नदर मारपाक विसरनात. कोणीय वाटेर वळखीचो दिसल्यार ताणे, ''कितें घोसाळीं घेतलीं?'' असो प्रस्न केल्यार ताका ''आनी कितें घेतलो? भाज्यांक पेटला उजो'' अशी जाप मेळटा. होच प्राणी गजाननाक देड दिसांनी उदकांत सोडटकच तीन पोस्तांचो वांटो आठशे रुपया मेजून दिवन घेतकच तो पिशवी उग्ती करुन, एक एक पोस्त काडून ताची लांबाय आनी रुंदाय कितली ती सांगता. तेन्ना पैशे गेले पूण तितल्याच मोलाचें कितेंतरी पिशवेन पडलें ही भावना आसता. हांगा घोसाळ्यांचे फकत पयशे दिसतात. पानार पडटलो तो कांदो नाशिल्लो चोथो हें ताका खबर आसता. तरीय तो जिबेक विचारुन दुदणीचे कळे आनी फागलां वतना घेवपाक विसरना. गोंयकारांचे श्रावणांतले भोग सांगतलो जाल्यार वेळ आनी सुवात पावची ना. आसूं.

श्रावण म्हयनो हो परबांचो म्हयनो हें हांवे तुमकां सांगपाची गरज ना. तुमी कालनिर्णयाचेर नदर मारल्यार तुमकां तें कळटलें. कालनिर्णयाचेर दिल्ल्यो सगल्योच परबो आमी हांगा मनयतात अशें ना. ज्यो मनयतात त्योच मनयतना आमकां नाकाशेवट जाता. शेजारचे राज्यांत ह्यो सगल्यो परबो ह्या म्हारगायेच्या दिसांनी लेगीत मोठ्या उमेदीन मनयतात. थोड्यांक हांव शेजारचे राज्याची व्हडवीक गायतां असें दिसप सभावीक आसा पूण ताका उपाय ना. खरें तें खरें. कालनिर्णयाचेर आमकां मंगळागौर, नागपंचमी, श्रावणी सोमवार, कुमारीका देवपुजा, शनी त्रयोदशी, नारळी पौर्णिमा, रक्षा बंधन, कृष्ण जल्माष्ठमी, गोपाळ काला, पिठोरी अमावास्या (पोळा) अशी लांबलाचक परबांची यादी मेळटा. ही चडश्यां परबांचेर NA (not applicable) अशें बरयता. नलूचें लग्न जावन तें शेजारचे राज्यांत रावपाक गेलें. तेन्ना म्हाका ह्या परबांची म्हायती मेळ्ळी. ताणे मंगळागौर ही परब मनयतना 'वटवाघूळ फुगडी', 'बस फुगडी', 'तवा फुगडी', 'भिंगरी फुगडी', 'वाकडी फुगडी' अश्यो एकवीस तरेच्यो फुगड्यो घाल्यो. हें आयकतच म्हाका हांवेच फुगडी घालून गिरगिरलेल्या वरी जावपाक लागलें. आमगेर दर वरसा चवथीक गणराया सामकार 'कितली म्हारगाय गे सायबिणी' फुगडी हिगेलें महिला मंडळ घालता, रसना पितात आनी घरा वतात, तुमचे म्हायती खातीर. थंय सासू- सून भांडण म्हणून एक खेळ जाता अशी म्हायती म्हाका नलून दिली. आमचे गोंयांत तो वर्सूय भर घरा घरांत जाता म्हणटकच म्हाका ती नविदाद दिसली ना. तांचो तो पारंपारीक खेळ इतलोच फरक. गोंयांत सवायशिणी आयतार म्हणून पुजतात आनी सांजचें तुळशी कडेन ताचें

विसर्जन करतात. नवीच व्हंकल आशिल्ली तेन्ना ही म्हाका बँकेंतलें भांगर बी हाडपाक लायताली. आतां उमेद कमी जाल्ल्यान फकत णववारी कापड न्हेसता. हांव आयतार पावयतना पयलीं वाजयतालो तसोच ठेको धरुन (किणीकिणी, किणीकिणी) घाँट वाजयतां आनी हिका विसर्जनाक हातभार लायतां. गोंयांत नागपंचम मनयतात. आमगेर बापूय केळीच्या पानार गंधान नाग म्हणून कितेंतरी पितारतालो. नागपंचम आशिल्ले कारणान आमकां तो नाग कसो दिसतालो. तो गेलो आतां हांव नाग पितारतां. पानावयल्या नागा भितर कांय सुदारणा जावना. शेजारचे राज्यांत 'चल ग सये वारुळाला, नागोबाला पुंजायाला' अशें गायत बायलो रोयणीची पुजा करपाक वतात. गोंयांत बायलांक तितली उमेद, पासिंयेंस आनी वेळ ना. तीं रोयणीर फकत अळमीं काडपाक वतात. सोड.

गोंयांत रक्षाबंधन ही परब केन्ना रुजली हें कळपाक मार्ग ना. आमगेलीं जाण्टेली जाण्टेल्याक राखी बांदता असो ब्लॅक एण्ड व्हायट फोटो आमच्या माळ्यार तरी ना. वरसां वतात तशीं भयणीनीं भावांचेर जीव दवरलो आनी गोंयांत ही परब सुरु जाली आसुंये. हांव शाळेंत आसतना एक वरस 'बॉबी' अशें बरयलेली राखी शाळेंत तयार जाल्ल्या भयणींनीं म्हजें मनगट तें कोपोर मेरेन बांदल्यो आनी रक्षाबंधन साजरें केलें. आमचें शास्त्र्यांचें घराणे आसल्या कारणान आमी सुता पुनवेक जानवें घालतात. आतां हे जानव्याक सुताचो लेगीत वालोर उरुंक ना तरी आमी सुता पुनव मनयतात. हांव पयलीं मान्न्यांत सैमाच्या उल्याक जाप दिंवक वतना जानवें कानाक लायतालों आतां तें शक्य जायना.फाटीं पणजे सुलभ सौचालयांत गेल्ले कडेन बानयानांतल्यान जानवे भायर काडटासर फाटल्यान रांक लागली. नाबीर पैशे घेता तो भितर आयलो.

''क्या करता है?''

''जानवें को कान को हुमकळायता है.''

''पचास पैसे में क्या क्या करता है?'' अशें फडफडत तो गेलो. सोड.

ह्याच दिसा नुस्तेंमारी खात्याचो मंत्री दर्यांत नाल्ल उडोवन नारळी पौर्णिमा साजरी करता आनी नुस्तेंमारीक वाट मेकळी करुन दिता. गोंयकारांक ह्या परबी परस ही गजाल चड थाकाय दिता.

गोंयच्या चडश्या वाठारांनी कृष्णाचो जल्म (भगवद गिता फेम) जल्माश्ठमी म्हणून मनयतात. आमी आमची गोरवां रस्त्यार सोडिल्ल्यान गोंयां पोळा सण कोण मनयतात जाल्यार कळपाक मार्ग ना. मनयताय जाल्यार ताका व्हडली प्रसिद्धी मेळना.

असो आमचो हो श्रावण म्हयनो. वैराग्य प्राप्त जाल्लो भस्म लेपन करपी, जटाधारी, स्मशानवासी महादेवाचें लग्न श्रावण म्हयन्यांत जालें. तरी आसतना तो म्हणटा ताका बारा म्हयन्यांतलो श्रावण म्हयनो आपल्याक प्रिय. ताचेच उतरांनी सांगचें जाल्यार 'द्वादशस्वपि मासेषु श्रावणो मेऽतिवल्लभः' भोळा सांब अशें म्हणटा जाल्यार ह्या म्हयन्यांत तशेंच कितें तरी आसतलें.

श्रावण मासी हर्ष मानसी...'

संपर्क : 9850530756



*(पान ७ वयल्यान)*

पूण ही सगली प्रक्रिया खूप हिंसक आनी भयानक तरेन जाली. त्या त्या वाठारांत जो समाज अल्पसंख्यांक आशिल्लो तांका बहुसंख्यांकां कडल्यान खूब त्रास सोंसचो पडलो. फाळणीच्या या संबंद काळांत लाखांनी लोक मेले, हजारांनी बायलांचेर बलात्कार जाले. घरांतल्या ल्हान ल्हान भुरग्यांक सुद्धा जमनीर, फातरार आपटून मारले. इतलेंच न्हय तर गुरवार बायलाचे गर्भ सुद्धा काडून मारले. म्हजो अंदाज असो आसा की उण्यात उणे एक दशलक्ष लोक तरी ह्या दंगलीत मेले आनी १०-१५ दशलक्ष लोकांक स्थलांतर करचें पडलें.

१९४२ च्या श्रावण म्हयन्यात 'चले जाव' हो उलो दिवन स्वातंत्र्य चळवळींत नवीन उर्जा हाडपी गांधीजीन सगळो स्वातंत्र्य लढो अहिंसक मार्गान केलो. पूण निमणें जेन्ना आमकां स्वातंत्र्य मेळ्ळें तें मात हिंसा, द्वेश आनी रक्तान माखिल्लें. हो केदो व्हडलो विरोधाभास न्हय तर किदे? ह्याच मजगती आनीक एक महत्वाची गजाल घडल्या. स्वातंत्र्या पयलींच्या भारत देशांत ५६५ राजांची संस्थानां आशिल्लीं. सरदार वल्लभभाई पटेल हाणीं तीं सगळी म्हणजे ५६० संस्थांनां भारतान विलीन केलीं आनी उरिल्ली स मागीर भारतांत विलीन जालीं.

१४ ऑगस्ट १९४७ म्हणजे श्रावण कृष्ण त्रयोदशी ह्या दिसा पाकिस्तान हें नवें राष्ट्र जल्माक आयलें. बॅरिस्टर मोहम्मद अली जीना हाणी पाकिस्तानचे पयले गव्हर्नल जनरल म्हूण सोपूत घेतलो.

१५ ऑगस्ट १९४७ म्हणजे श्रावण कृष्ण चतुर्दशी (अधिक म्हयन्याची) ह्या दिसा पंडित जवाहरलाल नेहरु हांणी स्वतंत्र भारताचे पयले पंतप्रधान म्हणून सोपूत घेतलो. एक उत्कृश्ट साहित्यीक आनी कवी मनाचो नेतो आशिल्ल्या पंडित जवाहरलाल नेहरुंचे, संसदेच्या मध्यवर्ती सभाघरांत केल्लें तें भाशण म्हज्या कानांत अजून गुंजता. ''कितलेश वर्सांपयलीं आमी नियतीकडे एक करार केल्लो. आनी आता ती वेळ आयल्या जेन्ना ती आमची प्रतिज्ञा आख्खी न्हय तर कांय प्रमाणांत तरी पुराय जाता. आता मध्यानराती जेन्ना समेस्त जग न्हिदलां तेन्ना भारत देश नवो जल्म घेता, नव्या युगांत पावल दवरता...'' पंडित जवाहरलाल नेहरुंचे तें भाशण म्हणजे एक सुंदर काव्यूच आशिल्लें.

दिल्लींत हें सत्ता परिवर्तन जातना, ह्या स्वतंत्र लढ्याचो मुखेल फुडारी राष्ट्रपिता महात्मा गांधी खंय आशिल्लो? तो आशिल्लो कलकत्त्याक, दंगलींतल्या दुखेस्तांचे दोळे पुसपाक. दंगली थारोवपाचें आवाहन करपाक. ताकाच लागून त्या स्वातंत्र्य दिसा म्हज्या एका दोळ्यांन खोशयेचीं दुकां आसलीं जाल्यार दुसऱ्या दोळ्यांत दुःखाची दुकां... ह्या वर्सा परत एकदां हांव आयलां, परत पावस आपल्याच धुंदीत कोसळत आसा... परत सैम पांचवोचार जाला... अशा वेळार, स्वातंत्र्याच्या अमृत महोत्सवा निमतान ह्या पवित्र अशा भारतभूंयेक नमन...

'श्यामलां सरलां सुस्मितां
भूषितां धरणीं भरणीं मातरम्
वंदे मातरम्
वंदे मातरम्.'

तुमचोच
**श्रावण**





# स्फूर्तदिणें पुस्तक!

**सखाराम शेणवी बोरकार**

'कोणेंय आपूण मरणाक भियेना म्हळें जाल्यार समजुचें, तो एक तर फट उलयता वा तो भारतीय लश्करांत आसा.' -फिल्ड मार्शल सॅम माणिकशॉ.

नामनेच्यो लेखिका आनी अनुवादक सुनेत्रा जोग हांणी अणकार केल्लें मूळ लेखिका अनुराधा प्रभूदेसाई हांणी मराठींत बरयिल्लें देशभक्तीन आनी सैनिकी मोगान उपाट भरिल्लें 'सैनिक' हें पुस्तक वाचतगीर भारताचे पयले फिल्ड मार्शल सॅम माणेकशॉ हांची वयलीं उतरां याद जालीं.

आमचो भारतीय सैनिक म्हळ्यार त्याग आनी समर्पणाची जिती-जीवी देख. आपले ऐन तरण्या उमेदीच्या काळांत आपलें सर्वस्व दिवन शिमेर रावन मांयभुंयेची राखण करप, हें आमकां वाचपाक जितले सोंपे तितलेंच मुर्त रुपान हाडप भोव कठीण. पूण एक फावट देश सेवेचो वसो घेतिल्ल्या मनशाक मागीर हेर कसलेच गजालींचें अप्रुप उरना हेंच खरें. तीच गजाल आमचे शिमेवेल्या जवानांची! तांचें कार्य हें मोलादिक आसाच पूण कोणेंय तांची तोखणाय केली जाल्यार 'साबजी हम तो अपना काम कर रहे हैं।' अशें नमळायेन म्हणत ते आपलें कर्तव्य ही सामकी सादी गजाल आशिल्ल्यावरी फांफडून उडयतात हें तांचें व्हडपण.

आमच्या सैनिकांचो हो त्याग, तांच्या समर्पणाची जाणविकाय जाली ती अनुराधा प्रभुदेसाई हांकां. आमच्या देशाचे शिमेर झगडपी ह्या सैंनिकांची वळख भौसाक दिवपाची मोख तांणी आमच्या मुखार दवरली. कुटुंबा पसून पयस शिमेर शिंयाच्या कुडकुड्यांत वा वाळवंटांतल्या खर गरमेंत शिमेची राखण करतना घरच्यांचो, बायल भुरग्यांचो सगळो विरह विसरचो पडटा. केन्ना फारपेट जायत, किते घडत, केन्ना जखमी जायत वा केन्ना आनीक किते... मरण लेगीत तळव्यार घेवन हे सैनीक देशसेवेच्या व्रतांत रमबाण आसतात. शिंवा सारकें काळीज आनी धाडस, साहस, कापाज्दाद आंगांत आसता तो सैनीक. त्याच ध्येयांतल्यान निर्माण जालें 'सैनिक' हें पुस्तक. आमकां अज्ञात आशिल्ल्यो सैनिकां विशींच्यो, तांचे जिणेंतल्यो घडणुको ह्या पुस्तकांत मांडल्यात.

ह्या पुस्तकांतली एक एक घडणूक म्हळ्यार अप्रुपाची गजाल कशी दिसता. जेन्ना आमी तांचेर थंडपणांन विचार करतात तेन्ना आमचो सैनिकां विशींचो मोग आनी आदर आनीकुय वाडटा. ल्हान ल्हान कामाचें श्रय घेवपी खंय आमी आनी इतलो त्याग करुनय 'इदं न मम' म्हणपी आमचे सैनीक! एक एक प्रसंग वाचल्यारुच आंगार कांटो येता. अशे सावार प्रेरक प्रसंग ह्या पुस्तकांत आसात.

मूळ मराठी पुस्तक वाचतगीर खरें अस्वस्थ जालें तें सुनेत्रा जोग. सुनेत्रा हें गोंय विद्यापिठांत एमए (कोंकणी) वर्गांतलें म्हजें सांगाती. एक संवेदनशील व्यक्तिमत्व म्हण ताची वळख. हें पुस्तक वाचतगीर ताचे सारक्या संवेदनशील मनशाक ह्या पुस्तकाचो अणकार करचो दिसलो हाचें म्हाका कांयच अजाप दिसलें ना.

सुनेत्रान साबार पुस्तकां अणकारीत केल्यांत तांतूंत चडावत पुस्तकां नामनेच्यो समाजसेविका सुधा मुर्ती हांचीं आसात. तांची अणकारी शैली वाचनीय आसताच. पूण तेच बरोबर पुस्तकाच्या गाभ्याकडे कुस्कुटभर लेगीत मेतेर जायना आसतना तांणी मोट्या फिशालकायेन 'सैनिक' ह्या पुस्तकाचो अणकार केला. सैनिक पुस्तक वाचतना सुनेत्रा पुस्तकाच्या संहितेकडेन एकरुप जाल्लें आमकां दिश्टी पडटा. खूब सराव करून हाताक एक पकड येता तशी परिपक्वताय सुनेत्रान केळयल्या. हें पुस्तक अणकार न्हय तर मूळ पुस्तकच कोंकणींतल्यान आशिल्ल्याचो वाचप्याक अणभव आयल्याबगर रावना. इतलो हो अणकार बेसबरो जाला.

पुस्तक वाचतगीर आमी आमच्या ह्या सैनिकांखातीर कांयच करुंक शकनात हाची खंत दिसून मन खाल्ले भशेन जाता. सैनिकां विशींचो आमचो दृश्टीकोन पुरायेन बदलून वता. तांच्या शौर्याच्यो घडणुको वाचून मनांत तांचे विशीं आदराची भावना उप्रासता हेंच ह्या पुस्तकाचें येस. हाचें सगळे श्रय मूळ लेखिका अनुराधा प्रभुदेसाई आनी कोंकणींत अणकार करपी सुनेत्रा जोग हांकां वता.

'सैनिक' पुस्तक गोंयच्या सगळ्या शाळांनी आनी कॉलेजींच्या लायब्ररींत आसप गरजेचें. आयच्या सगळ्या तरणाट्या पिळगे कडेन तें पावंक जाय. ह्या पुस्तकांतल्यान आपले मांयभुंयेची सेवा करपाची स्फुर्त तांतल्या थोड्यांक तरी मेळ्ळी तर ह्या पुस्तकाचें सार्थक जातलें अशें म्हाका दिसता. आदले प्रधानमंत्री लाल बहादूर शास्त्री हांणी 'जय जवान, जय किसान' हो नारो दिल्लो, ताची याद जाली. हें मोलादीक पुस्तक कोंकणींत हाडलें, अनुवाद दालन आनीक समृद्ध केलें म्हण सुनेत्राक परबीं.

**सैनिक**

मूळ बरोवपीः अनुराधा प्रभुदेसाई
कोंकणी अणकारः सुनेत्रा जोग
पानांः १८४ मोलः ३०० रुपया
उजवाडावपीः संजना प्रकाशन

संपर्क : 9923306751 

# कविता

## रागध्वनी!

**भिकाजी घाणेकार**

मोगान जेन्ना
फुलता मन
तेन्ना तें गायता
राग यमन.

आंनदी आनंद
आयज जळीं मळीं
सुर्याची दोळ्यांपाती
गायता भुपाळी.

माल चोरुन
व्हरतात कंस
तेन्ना कवी
गाता मालकंस.

वर्नांत जमतात
सुंदर सुकर्णी
वन जाता
तेन्ना हंसध्वनी.

लय, ताल, मन,
एकठावन मृगजळ
तेन्ना ती सुवात
साकारता गजल.

सगळें कर्शे किण्ण
छाया जाल्या वेगळी
धर्तरेची तरा आगळी
ती गायता भैरवी.

संपर्क : 9503244850



## दोन कविता

**माधव बोरकार**

१

खांदार म्हज्या तुजें
तेंकयलें तुजें माथें
बागवलें वाऱ्यान
पांचवें तणा पार्ते.

ओंपली रमारमांत
तुज्या स्पर्शाची सुलूस
उटंगार पावसाचो
उजवता मातयेची कूस

व्हांवता तंद्रेंत न्हंय
ठाय लय रगतांतली
सांडिल्लीं बिंबां कितलीं
कांकणाच्या हारशांतलीं...

३–६–२१

२

बसतां हांव जंय
थंय तुजी सावळी
येता जाग म्हाका
सप्नांतल्यान कंवळी,

खेंचता तार तार
काळजाचे विणेची
पर्जळटा कीट
आसपाचे खुणेची.

सरना सरुन
सोद चिरंतन
काळाच्या पोशांत
संचितार्चे धन.

१९–६–२१

## दोळे...

**उल्हास पै रायकार**

१.
तुज्या दोळ्यांतले चानयेन
फिर्रऽऽ करुन
म्हज्या ओंठांवेलें
जगमूच व्हेलें.
आतां म्हजे ओंठ
म्हणऽऽत आसात
चानये चानये
गोड कर
गोऽड कर
गोऽऽऽड कर

२.
तुज्या दोळ्यांतली चानी
म्हजी नदरभर
खेळऽत आशिल्ली
आतां थंय
पोरां खेळटात...

संपर्क : 7507441344

## पावस आयलो...

**मनोज-सुमती**

किणेल्ल्या-गडद कुपांची,
काळीं-निळीं सावळीं,
पोंवत्या ओल्या मळबाची,
रिमझिम ती पावळी...

तानेल्ल्या ह्या भुर्येची,
न्हिवली आतां तान;
प्रिकीं पानां झडोवन,
आतां तर्क्षें जालां रान....

मोडके-तोडके वर्येन आतां,
पांपुल्लो रे शेळो;
चोंय दिकांनीं फांकुल्लो,
हुलहुलो तो तायखिळो...

न्हंये-व्हाळांक आयलो हुंवार,
दर्या ल्हारांर आयला सावार;
वावझडिचें दुखणें सोशीत,
नळे भियेवन बसल्या घरार....

१४ जून २०२०

## तीन कविता

आर.एस.भास्कर

### पावस येता तेन्ना

वैशाखांत पावस
नांदी दवरता
आनी वर्स भरची आपली
शेका विर्शी कळयता

ज्येष्टांत पावस
पुण वेग दाखयता
दोंगर आनी गाळ तेन्ना
पाचवो न्हेसतात

आषाढाचो पावस
धारेन रकयता
आनी अख्ख्या भूंयेंक
उदकांत बुडेयता

श्रावणांतलो पावस
लजिष्ट दिसता
व्हंकलें वरीच
मंद मंद येता

भाद्रपदांत पावसाक
सावकासूच ना
अचानक येता
आनी अचानक वता

अश्विनांतलो पावस
जागृतपणान वागता
रोवणीचो वेळ आसून
मर्यादीन पडता

कार्तिकांत पावस
ओलसाण हाडता
धर्तरेची शिरंतरां
थंड थंड करता

पौषांत पावस
पूण पांगरून येता
आनी थेंब थेंब्यांनी
दंव शिंवरता

माय म्हयनांत
पावस पडताना
कोयरांत लेगीत
माणकां रुजतात

### शेवण्याक सगलें मळब जाय

'हो सगलो जागो तुजो
जाय म्हाका मेकळेपणान उडूंक,
उक्तोच दवर गे आसोच
म्हजें खातीर केन्ना खातीर'
पयलें पावट फिरूंक आयिल्ले शेवण्या पील
म्हणटाले मळबा कडेन.

'जावं गो बाय, दवरूं हांव
जागो हो तुजें खातीर केन्ना खातीर'
फकत उपचाराक म्हण
म्हणटालें मळब शेवण्या पिला कडेन

पुण, मळबाक खबर आसा...
नव्यान येवपी दरेक शेवणें
चड करून ह्याच भशेन मागतलें
आनी उपरांत वेगीन विसरतलें

### मिठाकणीची काणी

ही एक काणी
मिठाकणीची काणी
म्हासागराचें संगीत आपणावंक पाविल्ल्या
एक मिठाकणीची काणी

अनंत सागराच्या तडीर
विस्मीत रावली मिठाकणी
म्हासागराचे संगीत पुण
ल्हारावेल्यान गाजतालें
दरेक ल्हार...
दरेक ताळ वाजता !

एक ल्हार हाडता एक ताळ
दुसरें ल्हार हाडता आनी एक ताळ
तीसरें ल्हार जाल्यार तीसरें ताळ
तशीं तशीं असंख्य ल्हारां....

असंख्य ल्हारां वाजतात
असंख्य ताळां
असंख्य ल्हारांवेल्यान गाजता
अपरूप संगीत!

दरेक ताळ पुजावंन येवचें परस
सागरूच जावपाक जाय
मिठाकणीक तशीं दिसलें दिसलें
मिठाकणी तेन्ना जाली म्हासागर!

** माधवी सरदेशाय हांगेल्या 'मिठाकणी' कवितेचें संदर्भांत.*

संपर्क : 8891306123



## एक सादी विगन कविता

काशिनाथ शांबा लोलयेकार

देवा,
फुडलो जल्म म्हाका कोंबयेचो दिवं नाका
बोकडेचो दिवं नाका
गायचो दिवं नाका
धुकराचो दिवं नाका
फुडल्या जल्मांत म्हाका
चिकन, मटन, बीफ, पोर्क बी जावपाचें ना

देवा,
फुडलो जल्म म्हाका
मनीस नांवाच्या जनावराचो दिवं नाका
जल्म-मर्ण, जल्म-मर्ण
कसलें चक्र हें
म्हाका फुडलो जल्मूच नाका

पूण,
फुडल्या जल्मांत हांव जालो झाड
हाड मास रगत नासलेलें झाड
बोटाचे वयर वाडलेलें
नाखटा सारकें मेकळें विरक्त झाड

येयात,
खायात म्हजो पाचवो पालो
खायात म्हजी गोड फळां

खऱ्यांनीच,
आता जीण आयली फळाक



